**Zencho Distavo**
**Revelation Of Zen**

2013



**Publisher:**
Geeta Prasaar,
Guru Kunj
Mhapsa Goa ,
403507

**Type - Setting :**
Anjali Kamat
Mohan Nirpal

**Printer :**
**Imperssion Printers**
**Belgaum**

**Price:** Rs. 150/-

**झॅनचो दिस्टावो**

2013



**उजवाडपी**
गीता प्रसार,
गुरू-कुंज,
म्हापसा, गोवा
403507

**अक्षर जुळोवणी**
अंजली कामत
मोहन निरपळ

**छापपी :**
**इम्प्रेशन प्रिंटर्स**
**बेळगाव**

**मोल :** रु. 150/-

मुखपृश्टावयलें चित्र : डायगो-जी बुद्ध मंदीर, कियोटो, जपान.
मलपृश्टावयलें चित्र : अनराकु-जी बुद्ध मंदीर, जपान.
पान १ वयलें चित्र : मैत्रेय बोधिसत्व,भविष्यांत येवपी बुद्ध. इ.स. ६५०. जपानांतल्या न
मंदिरांतलो अर्धपुतळो.

# मांडावळ

# ओंपणी

**गोंयचे म्हान सुपुत्र**

## आचार्य धर्मानंद कोसंबी

**( १-१०-१८७६ ते ४-६-१९४७)**

**पाली भाषा आनी बुद्ध धर्माचे प्रकांड पंडित,**

**ह्या ध्यानमार्गी बौद्ध आचार्याच्या पवित्र उगडासाक नमळायेन**

सुरेश गुंडू आमोणकार

# उपकार

'झॅनचो दिश्टावो' हाचें हातबरप फाटलीं पंधरा वर्सां म्हज्या मनांत घोळटालें. हो विचार ठेवो आतां माणकुल्या ग्रंथाच्या रूपान वाचप्यांचे भेटेक येता. म्हज्या चिनी आनी जपानी पुर्वसुरींनीं म्हजी वाट सोंपी केल्ल्यानूच हो ठेवो कोंकणी लोकांच्या हातांत पावता. तांकां म्हजी अर्गां ओंपता. कवी वेणीमाधव बोरकार हांणी पुस्तकाची वळख करून दिली. बाय अंजली कामत आनी मोहन निरपळ हांणी आस्थेन अक्षर जुळोवणी केली. इंप्रेशन्स (बेळगांव) हांणी सोबीत छापणावळ केली. हातुंतल्या कांय कथांची पूर्व प्रसिद्धी 'जाग' आनी 'सुनापरान्तांत' जाल्ली. हांच्या उपकारांत हांव आसां.

गौतम बुद्धाचे शिकवणीचे आनी झॅन साधकांचे प्रेरणेन हो वावर म्हजेकडल्यान जालो. हें विचारधन वाचप्यांक निर्भय करून, तांकां शांती दिवं ही प्रार्थना.

२२ मार्च, २०१३

सुरेश गुंडू आमोणकार



**आचार्य धर्मानंद कोसंबी**
चित्रकार : दीनानाथ दलाल, फोटू : सीमा आमोणकार

# आचार्य धर्मानंद कोसंबी

आचार्य धर्मानंद कोसंबी ह्या गोंयच्या एका व्हड सुपुत्राचो जल्म मुरगांव तालुक्यांतल्या सांकवाळे गांवांत १ अक्टोबर, १८७६ ह्या दिसा जालो आनी वर्ध्या लागसारच्या महात्मा गांधीजींच्या सेवाग्रामांतल्या आस्रमांत ४ जून, १९४७ ह्या दिसा तांचें निर्वाण जालें. बौद्धधर्म आनी पाली भास हांचो सोद घेवप, वाढ आनी प्रसार करप हें तांणी आपलें जिवीत कार्य थारायलें.तांणी भारत देशांत पाली भास आनी बौद्ध धर्माची नव्यान बुनयाद घालून बौद्धधर्माक विसाव्या शतकांत विज्ञाननिश्ट आनी बुद्धीवादी नव्या युगाच्या प्रेरणांक नवी दिका दिली.बौद्धधर्मविचार ही संवसाराक मेळिल्ली अलौकीक देण आसून, शुद्ध नैतिक मुल्यांचेर आधारिल्ली मानवी संस्कृती तो धर्मविचार निर्माण करूं शकता आनी ते खातीर भारताक बौद्ध विचार गरजेचो आसा अशें ते मानताले.तांणी आपल्या अविरत कार्यान बुद्धचरित्र आनी बौद्धविचारांची साहित्यीक बुनयाद भारतांत घाली आनी तिचेर इमारत उबारपाचें उत्तुंग कार्य भारतीय राज्यघटणेचे शिल्पकार बोधिसत्त्व डॉ.बाबासाहेब आंबेडकर हांणी केलें.आचार्य धर्मानंदांचे खर साधनेचें दर्शन तांच्या **'निवेदन'** ह्या आत्मचरित्रांतल्यान वाचकांक जाता देखून सगल्यांनी तें मुजरत वाचचें.

महात्मा गांधीजीन सुरू केल्ल्या स्वातंत्र्य संग्रामांत आचार्य धर्मानंदांनी निश्ठेन वांटो घेतिल्लो. शिरोडा हांगासरच्या मिठाच्या सत्याग्रहांत तांकां गांधीजीन मुखेलपण दिल्लें. 'अहिंसा, सत्य, अस्तेय आनी अपरिग्रह' हे चार याम हेंच आपलें दैवत अशें ते मानताले. धर्मानंदांनी बौद्धज्ञानाचो साक्षात्कारी अणभव घेतिल्लो. ते प्रज्ञावंत महामानव तर आसलेच पूण एक व्हड साधूपुरूषय आसले. आपलें जिवीत ते अखेर मेरेन अनासक्तीन आनी अलिप्तपणान जियेले. धर्मानंद हे ध्यानमार्गी बौद्ध आचार्य आसले. हो

ध्यानमार्ग बोधिधर्मान इसवी सनाच्या सटव्या शतकांत चीन देशांत व्ह
आनी थंय तो चाऽन जालो आनी कोरियांतल्यान जपानांत पावतकच त
थंय झॅन म्हणपाक लागले.

जपानांतल्यान झॅन अमेरिका आनी युरोपांत पावलो. थंय सावन नवें
घेवन आपले मूळ भुंयेंत पर्थून आयलो. निश्ठेन झॅनचो (ध्यानाचो) अभ्य
केल्लो साधक निर्भय जाता आनी आपल्या मरणाच्या खिणाची सुलूस ता
लागतकच तो थीर आनी जागृत मनान ताका येवकार दिता. देखू
धर्मानंदाचो मृत्यु हो एक आनंद सुवाळो जालो. महात्मा गांधीजीन तां
निर्वाणा उपरान्त केल्ल्या श्रद्धांजलीच्या उलोवपांत आचार्य धर्मानंदां
व्हडपणाची भारतियांक जाणविकाय करून दिल्या. ते म्हणटात: "जो अप
डोंडी पिटवाते है, उन्हे तो हम बहुत चढाते है। पर जो मूळ सेवक है, ध
की सेवा करते है, उन्हे लोक पहचानते भी नहीं। ऐसे एक आच
कोशाम्बीजी थे। वे हिन्दुस्थानके (बौद्ध धर्म और पाली के) प्रमुख विद्व
थे। उन्होंने स्वयं फकीरी पसन्द की थी। वे प्रार्थनामय थे। ईश्वर करे हम स
उनका अनुकरण करे[१]।" (जो आपलो धोल वाजयता, ताका आमी ख
माथ्यार घेतात. पूण जो मुळचोच सेवक आसता, धर्माची सेवा करता, ता
लोक वळख लेगीत नांत. असले एक आचार्य कोसंबीजी आसले. तां
आपूण जावन फकिरी पत्करिल्ली.ते प्रार्थनामय आशिल्ले. ईश्वरान आमक
सगल्यांक तांचेच वाटेन व्हरचें.)

आचार्य धर्मानंदांच्या निर्वाणाच्या आदल्या दिसा घडिल्ले घटनेचें वर्ण
करतना तांचे सचीव, बलवंत सिंहजी म्हणटात: "ऐसी आदर्श मृत्यु मैंने अप
जीवन में कभी नहीं देखी। वे रातको अपने पास सोने को मुझे कभी नहीं कह
थे। लेकीन मृत्यूकी पहिली रातको मुझसे कहने लगे, "आज तुम मेरे पा
ही सोओ। रातको बारह बजे जब चंद्र सिरपर आयेगा तब मेरी मृत्यू हो
संभव है[२]॥" (अशें आदर्श मरण हांवें म्हजे जिणेंत केन्नाच पळेलें ना.
रातीचे आपले म्हऱ्यांत न्हिदपाक केन्नाच सांगी नासले. पूण मरचे आदले रा

हाका सांगूंक लागले, "आज तूं म्हजे म्हऱ्यांत न्हीद. रातीं मद्यानेर जेन्ना चंद्र माथ्यार येतलो तेन्ना हांव घडये वचन." पूण ते रातीं ते गेलेनात. मद्यान जातकीच "आतां हांव काय वचना, तुमी वचून न्हिदात," अशें धर्मानंदांनी तांकां सांगलें. दुसऱ्या दिसा, ४ जूनाक, सकाळीं ज्या वेळा ते धर्मानंदांचे कुडींत गेले, त्या वेळार ते खूब प्रसन्न मनस्थितींत आसले. ज्युस्त बारा वरांचेर "आपली आतां वचपाची तयारी जाली," अशें धर्मानंदांनी बलवंत सिंहजींक सांगलें. बारा वरांपासून अडेजवरां मेरेनच्या कांय घटकां आदीं धर्मानंद तांचेशीं उलयताले. हो प्रसंग बलवंतसिंहजीन असो वर्णिला: "दो बजे थोडा पानी लिया और मकानके सब दरवाजे खोलनेके लिये कहा, मानो उनको ऐसा प्रतीत हो रहा हो कि कोई उनको लेने के लिए आया है, अथवा उनके जाने के लिए दरवाजे खोल देने चाहिये।" (दोन वरांचेर ते इल्लें उदक पियेले आनी तांणी घराचीं सगलीं दारां उगडपाक सांगलीं; घडये तांकां दिसलां जावंये की कोणूय तांकां व्हरपाक आयला, किंवा तांकां वचपा खातीर दारां उक्तीं जाय.)

"इस प्रकार से वे कभी दरवाजे नहीं खुलवाते थे। धीरे धीरे शरीर शिथील होता गया और ठीक अढाई बजे वे शांत हो गये। उनका अंतका सांस निकलने और सावधानीसे बात करनेके बीचमें बेहोशीका अंतर दस मिनट से जादा नहीं रहा[३]।" ("हे भाशेन ते केन्नाच दारां उगडूंक लायनासले. ल्हवु ल्हवु कूड धील जायत गेली आनी जुस्त अडेच वरांचेर ते शांत जाले. तांचो निमाणो श्वास वचप आनी जाग्रुतायेन उलोवप हातूंत धा मिनटां परस चड अंतर नासलें.") अशे रीतीन शांत आनी प्रसन्नतायेन धर्मानंदांनी संवसाराचो निरोप घेतलो.बलवंतसिंहजी हांच्या शब्दांनी सांगचें जाल्यार, "जितना भव्य कोशाम्बीजीका जीवन था, वैसी ही भव्य उनकी मृत्यु हुई![४]" ("जितलें भव्य कोसंबीजीचें जीवन आसलें, तितलोच भव्य तांचो मृत्यु जालो!" )

'झॅनचो दिश्टावो' ह्या पुस्तकांत झॅन मार्ग जिणेकडेन अलिप्ततायेन कशें पळेवंक शिकयता तें कथारूपान तुमी वाचतलेच. जायत्या झॅन आचार्यांनी आपल्या मरणाक आचार्य धर्मानंदा भाशेनच येवकार दिलो. देखून हें पुस्तक

हांव गोंयच्या म्हान सुपुत्राच्या उगडासाक ओंपतां आनी तांच्याच सा
मार्गान वचचें  बळ आनी भाग्य आमकां मेळचें अशी प्रार्थना करून त
स्मृतीक नमन करतां.

---

१.बापूकी छायामें, बलवंतसिंह, पा.३९८  २.वयलो संदर्भ पा.३९५
३.वयलो संदर्भ, पा.३९७  ४.व.सं.पा.३९७



अक्षरांचो अर्थ : वसंताच्या रंगांनी शिंवरायल्लीं  शेतां.

## झॅनची वाट धरचे पयलीं

गौतम बुद्धान आमकां आपले जिणेचे देखींतल्यान जिविता कडेन अलिप्तताये़न पळेवंक शिकयलें. मनशान कसलोच अतिरेक केले विणें मदल्या मार्गान गेल्यार आनी सर आनी वखवख ताळल्यार ताका सूख आनी शांती मेळटली हो ताणीं मनीस कुळयेक दिल्लो संदेश.

शाक्य मुनी गौतम बुद्ध नित्य ध्यानाक बसताले आनी लोकांक उपदेश करताले. एक दीस प्रवचनांत उपदेश करिनासतना तांणी तबकांत आशिल्लें एक साळीक उखलून श्रोत्यां मुखार धरलें. महाकाश्यप सोडून कोणाकूच ताचे हे करणेचो, मूक संदेशाचो अर्थ कळळोना. पूण महाकाश्यप ताचे कडेन पळेत अर्थपुराय हांसलो. ताचो हो हांसो पळेवन गौतम बुद्धान म्हणलें: "म्हजे कडलो हो अलौकीक ठेवो, अनभावा पेलो, शब्दांनी वर्णूक येना असलो अध्यात्मीक ठेवो, आगा महाकाश्यपा हांव तुका दितां."

आनी त्याच खिणाक ध्यानमार्गाचो, झॅनचो जल्म जालो. झॅनची भाशा ही शब्द नाशिल्ली भाशा. ती मौनाची भाशा. शांतीच्या संगीताची भाशा. तातूंत कृतीक म्हत्त्व आसता, त्या खिणाच्या जगपाक म्हत्त्व आसता, अर्थ आसता. झॅनचें संगीत हें शांतीचे संगीत. गौतम बुद्धान अंतीम सत्या कडेन वचपाची तरा दाखयली. ती म्हळयार अंतर्मनाचो सोद घेवपाची. मना कडेन तटस्थ जावन पळेवचेली.

ही गुरूशिश्य परंपरा महाकाश्यपा कडल्यान बोधिधर्मा कडेन पावली. इसवी सनाच्या सव्या शतकांत बोधिधर्मान हें ज्ञान चीनांत व्हेलें. चीनांत ध्यानाचें चीनी भाशेंत "छाऽअन" (चान) जालें.

थंय बोधिधर्माची शिश्य परंपरा वाडली. सातव्या शतकांत "चान" जपानांत पावलें. थंय ते झॅन जालें. इसाई (११४१-१२१५) हो झेनचो आद्यगुरू. ताणें सन ११९१ त क्योतो शारांत ध्यानविहाराची स्थापना केली. ल्हवु ल्हवु करून झॅनचो परमळ, जपानांतल्यान परतो चिनांत आनी मागीर





वयलें: बर्फांतलीं झुडपां. (अनामिक चित्रकार) सकयलें: दोतोराच्या चमच्यावयर रेखायल्लीं अक्षरां सांगतात: जिवितापासत काय मरणापासत ही एक पोरणी जपानी ओपार. तिचें दुसरें कडवें अशें आसा: चमच्यांत जें आसा ताचेर निंबून आसा.

संवसारभर पातळ्ळो. शाक्यमुनी गौतमबुद्धाचो तर्का पेलो तर्क, निर्हेतूक पणाचो हेतू, अकारणाचें कारण, शब्दां विणे सगल्यांक जाणवपाक लागलो. दार नाशिल्ल्या दारांतल्यान जायते जण भितर सरूंक लागले. आपल्या मनाची यात्रा करून, ताचो सोद घेवंक लागले. देखून आमकां झॅन ध्यान मार्ग मेळ्ळो.

पौर्वात्य तत्त्वगिन्यानांतली सगल्यांत अजापाची पद्धत म्हणल्यार झॅन. झॅनचें स्वरूप एकाद्र्या शून्यावरी, मेकळया अवकाशावरी आसता. आमचे विचार म्हणजे ह्या अवकाशांत भोंवपी, उडपी पक्षी. त्या असंख्य विचार लहरीं कडेन साक्षीभावान आमीच गवाय जावन पळेवप; आमच्या विचारांचो ओग पळेवप; तांकां अनित्य समजून तांकां फुडें वचूंक दिवप म्हळयार झाझेन (Zazen). तांचें खरें स्वरूप समजुपा खातीर गुरू कडेन संवाद सादप म्हणल्यार सांजेन (Sanzen); ताचे खातीर कांय कूट प्रस्नांचेर (Koan) कुवाडयांचेर मनन-चिंतन करप; आनी सगल्यांत म्हत्त्वाचें म्हणल्यार दिसपट्टया वास्तव जिणेंत शारिरीक पातळेचेर जागरूकतायेन आनी अलिप्ततायेन काम करीत रावप, हें सगलें झॅनांत आस्पावता.

हें सगलें सुरळीत आनी अचळय जुळून आयल्यार आपशींच समाधीचे, सातोरीचे (Satori) अवस्थेक मनीस पावंक शकता.

मनशाचें मन, विचार, म्हायती, गिन्यान, मतां, कल्पना, ग्रह आनी पूर्वग्रह हाका लागून दर खिणाक बदल जायत आसता. देखूनच मन खरें न्हय; ताचेर पातेवन रावपाक जायना. हाका लागून मन आमकां अंतीम सत्य दाखोवंक शकना.अंतीम सत्याचो साक्षात्कार जावपाक मना पेल्यान वचप हेंच झॅनचे मुखेल साधन.

आमी आमच्या जिविताचो अर्थ सोदपाक शब्दांचोच आधार घेतात. शब्दां वरवींच धर्माची, सूखशांतीची, तत्त्वगिन्यानाची गहन चर्चा करतात, अंतीम सत्य सोदपा खातीर. पूण अंतीम सत्य शब्दा पेल्यान आसता. ताचें दर्शन घडोवप हेंच झॅनचें ध्येय. होच झॅनचो दिश्टावो. देखून झॅन हें शब्दांत धरपाक येना. ते मौनांत वचून, अंतर्मनाचो सोद घेवन पकडपाक जाय.



घसघश्याचेर ध्यान करपी झॅन साधक.
चित्रकार : झॅन साधन फान-लूंग (इ.स. बारावें शतमान)

दर एक खीण जागरूकतायेन जगप हीच जीण. चलता तो खीण हीच जीण. प्रत्येक झॅन अणभव आमकां खुबशें शिकयता.गेन सॅनची कथा आमकां जिवनांतलें एक सत्य सांगता. गेन सॅनचें शिक्षण पूर्ण जातकच ताका दिक्षा दिवपा खातीर ताचो गुरू ताका नान चु आना सरीं धाडटा. गेन सॅन ताच्या गावांत वचून ताचो सोद घेतां घेतां एकटो ताका एका पसरकाराकडेन बोट दाखोवन सांगता: "होच तो गुरू नान चु आन." ताका अजाप जाता. शिश्य नांत. शाळा ना असो मनीस गुरू कसो जायत? तो परतून वचपाची तयारी करता. पूण आतां आयलांच न्हय, ताकाच विचारून पळेता.

"तुमीच नान चु आन?" "हांवूच तो." म्हज्या गुरून म्हाका तुमचे सरीं धाडला. पूण नान चु आन ताचे कडेन पळे लेगीत ना. तो तांदूळ तागडेंत घालून तांचें वजन करपांत गुल्ल आसता. अस्वस्थ जावन गेन सॅन ताका विचारता, "आगा, तुजे जिणेचो अंतीम अर्थ कितें?" नान चु आन वयर पळेनासतना ताका जाप दिता, "तांदळाचें वजन दोन कील." आयुष्याचो अर्थ समजल्लो गेन सॅन ताकतिकेन परतून वता.

आयुश्यांत खंयचे तरी मोडणाचेर जाणिवेची फांतोड उदेता. मागीर जगपाचे सगलेच संदर्भ बदलतात. आपणेंच पयलीं घेतिल्ल्या निर्णयांचें आपणांकच हांसपाक येता. आयुष्यांत कित्यांत काय नासता आनी कित्यांतय सगलेंच आसता. हें सत्य आमचेर अकस्मात आदळटकच आनी आमचें मन संवेदनशील आसत जाल्यार आमकां जिणेंचो अर्थ खंयचेय घडणुके वेल्यान कळूं शकता. जाणविकायेची फांतोड त्या खिणाक उदेल्ली आसता. आनी खऱ्या अर्थान आमचो नवो प्रवास सुरू जावपाक शकता. पूण जायते पावटीं तें घडना. कित्याक आमी आमच्या मनाची अंतर्यात्रा करपाक तयार जाल्ले नासतात.

आमी सदांच भायरच धांवतात. कोण दुडवां आनी सत्ते फाटसून, कोण प्रसिद्धि-प्रतिष्ठे फाटसून; कोणाक जाय आसता संपत्ती आनी कोणाक देखणी पत्नी; हें मेळोवपाचे धकाधकींत जिणेंतली शांती, सूख आनी समाधान आमी



धव्या जेडच्या आनी हळडुव्या भांगराच्या ठेव्याचो सोद घेत ते दर्यापार वतात
तांका जर पलतडी पावपाचें आसा जाल्यार तांणी क्वानोन हे दयेचे देवतेचें सदां
भान दवरचें. क्वानोन ही बौद्धांची दयेची देवता. ती सगल्या मनशांक मुक्ती मेळच
अशें इत्सिता.

होगडावन बसतात. मागीर खर्शेतकच, एका मोडणाचेर नवी वाट दिसता.

मागीर एक व्हड प्रस्न मुखार उबो रावता. हांव खंयचे वाटेन वचूं? पूण दर एकल्यान तें आपलेच खातीर थारावपाचें आसता. हे वाटेर आपूणच आपलो वाटाडो, आपूणच आपलो गुरू. एकल्यानूच चलची आसता ही कठीण वाट. थंय कोणूच सांगाताक उपकरना.

टागोरान ह्याच संदर्भान म्हणलां न्हय? ''कोणी उल्याक पावना तेन्ना, चलत राव एकलो.'' सदांची माड्डायल्ली, रूळिल्ली वाट सोंपी आसता देखून आमी कठीण वाट धरिनात. पर्थून पर्थून संवकळीचेच वाटेन आमी वतात. पूण चुकून खंयच्या एकल्या धरिश्ट मनशाक ही कठीण वाट धरपाचो धीर जाता. हो निर्णय घेवप हेंच ताच्या आयुश्यांतलें पयलें सत्य.

'झॅनचो दिश्टावो' ह्या माणकुल्या पुस्तकांत जायते अणभव आसात.ताचो अर्थ जण एकल्यान समजून घेवपाचो आसता. 'रितें कोप' ही कथा मन रितें करपाचेर भर दिता. आमचें मन पूर्वग्रहांनी म्हेळिल्लें आसता. आपूण घेतिल्ले बरे वायट अणभव, मेळयल्ली म्हायती, आपली परंपरा, आनी आमचेर जाल्ले संस्कार हांकां लागून आपल्या मनाचो अवकाश इतलो व्यापिल्लो आसता की तातूंत आनीक कितें भितर रिगोवपाक सुवातूच नासता. आमचें मन ही एक व्हडली कोयराची कूड जाल्ली आसता. हाचेर उपाय एकूच- मनाचें कोप रितें करप. तशें जायत जाल्यार सत्याचो प्रकाश आमच्या मनांत आपशींच रिगतलो. मन रितें करपाची कला म्हणजे झॅन. 'अमनी' अवस्था म्हणजेच झॅन. मना पेल्यान वचप म्हणजेच झॅन.

'चिखलाची वाट' ही कथा एका सादया अणभवांतल्यान अनासक्तीचो धडो दिता. तानझान एके सुंदर चलयेक उबारून पेले वटेन दवरून मेकळो जाता. तो अनासक्त आशिल्लो म्हणून एक सुंदर तरणाटे चलयेक उबारून व्हरूनय मनान मेकळो रावता. एकिनान तिका हात लेगीत लावंक नासलो. पूण तो मनान तिच्यांत सामको घुस्पून उरलो म्हणून वासनेन हुलपलो.

झॅन आमकां साद घालता.आसक्तीचे कपडे देंवयात आनी अनासक्तीचे





दावेवटेनः वेळू हो जपानी आनी चिनी चित्रकारांचो आवडीचो विशय. वयलें चित्र : अठराव्या शेंकडयांतल्या गोशून ह्या चित्रकारान काडलां. उजवेवटेनः घसघसो हें चित्र हाशिमोटो गाहो ह्या जपानी चित्रकारान काडलां. व्हांवतें उदक नित्य बदलत जरी आसलें तें सदांच तिगतां.

विंगळेंपण अणभवात. आसक्तीन मनाची थिराय भंगता. मनाचो तोल वता. आनी जिणेंतलो आनंद ना जाता. आसक्ती निर्माण जातकच वासना भागता किंवा ती भागना. वासना भागल्यारय नव्यान वासनेची तान लागता. ती सरना. वाडटच रावता. आनी ती भागलीना जाल्यार जीवाची घालमेल जाता. ह्या चक्रांतसून सुटपाचो मार्ग एकूच. अनासक्तीन जिणे कडेन पळेवप.

थीरबुद्दी (स्थितप्रज्ञ) मनशाचीं लक्षणां गीतेंत आमकां सांगल्यांत: "मनशाचें मन मस्तीं इंद्रियां बळयां ओडून व्हरतात. इंद्रियां आळाबंदा हाडूंक जाय. जाची इंद्रियां आपसुवादीन जालीं, ताची बुद्दी थीर जाली. विशय येवजुपी मनशाक तांची ओड लागता. ओडीन खर इत्सा उत्पन्न जाता. इत्सेपासून (तिका आळमेळीं हाडटकच) तिडक उत्पन्न जाता. तिडकीक लागून बुद्द गदळटा, मनीस अविवेकी जाता. बुद्द गदळिल्ल्यान सुद्द ना जाता, कित्याक तिका भूल पडटा. सुद्द ना जाल्ल्यान बुद्द भंगता आनी बुद्द भंगतकीच मनशाचो घात जाता.(गीता, अध्याय २-श्लोक ६०-६३).

देखून मनशान आसक्ती सोडूंक जाय असो श्रीकृष्ण अर्जुनाक सांगता. झॅन साधकांक दुसरो उपाय सुचयता. आमकां अंतर्मनाचो सोद घेवन मनापेल्यान वचपाक सांगता.

आसक्तीचो जल्म मनांत जाता. पूण सगल्यांत बरो उपाय म्हळयार अमनी अवस्तेंत रिगप. म्हणल्यार मना पेल्यान वचप. तानझान कृती करून अनासक्त जालो पूण एकिदो मात कांयच केले विणें घुसपून उरलो.

आमच्यांतलो एकिदो केन्ना सोंपतलो. तानझान केन्ना उदेतलो. झॅन आमकां साद घालता.

किता गाकी, क्योतोचो राज्यपाल आचार्य केईच्यूक मेळपाक वता.आपले पदवेचो ताका अहंकार जाल्लो आसता. कार्डाचेर तो आपली वळख आनी हुद्दो बरोवन तें आचार्या कडेन धाडटा आनी आचार्य ताच्या प्रतिशठेचो आनी अहंकाराचो बोमाडो फोडटा. आमी तरांतरांचीं म्होवाळीं घालून संवसारांत वावुरतात. ताका लागून नाका आशिल्ले गंड निर्माण जातात. ल्हानशा आपल्या

गावांत मनीस केदोय व्हड जावं, पूण मुंबयच्च्या फुटपाथाचेर लोकांचे खेटींत ताका कोणूच वळखना. तो थंय हेरांभशेन एक मनीस. तेंच ताचें मोल. तेंच ताचें म्होवाळया विणें खरें रूप.

देखून प्रतिश्ठेची कसलीच तोपी घालपाची गरज नासता. झॅन ही लेगीत एक तोपी जावंक शकता. तें ताळचें म्हूण झॅन आचार्य झॅन खंयच्च्याय साच्च्यांत बसयना. देखुनूच 'मन' हें झॅनची बुन्याद न्हय. तर्कबुद्धी झॅनचें साधन न्हय. 'ग्रंथप्रामाण्य' झॅनाक मान्य ना.

धर्मीक श्रद्धेचेरय 'झॅन' आधारूक ना. झॅन धर्मग्रथांच्या पेल्यानचें, शब्दां पेल्यानचें, मौनांच्या शून्यांतच तें उमजुपाचें.

हाकुईन गुरू तोबुशिगे सामुराईची मस्ती तेच भाशेन देंवयता. "सर्ग आनी नरक खऱ्यानीच आसतात?" तोबुशिगे हाकुईनाक विचारता. 'तूं कोण'? हाकुईन विचारता, "हांव सामुराय" हाकुईन उवखेणी करून म्हणटा, "तुजो चेरो एकाद्रया भिकाऱ्या वरी दिसता."

सामुराय तिडकीन आपली तलवार काडटा, घडये गुरूची तकली उडोवपाक.

"हांगा नरकाचें दार उगडटा." हाकुईन म्हणटा. लजेन सामुराय तकली खाला घालून आनी तरसाद म्यानांत घालता. हें पळेवन आचार्य म्हणटा, हांगा सर्गाचीं दारां उगडटात.

सगल्या धर्म परंपरांनी सर्ग नरकाच्यो रूढ कल्पना लोकांच्या मनांत खोल आनी घट्ट घाल्यात. तांचें अस्तित्व खरेंच आसा अशें लोक धरून चलतात. पाप-पुण्य, नीत-अनीत हांचो सर्ग-नरका कडेन मेळ घाल्ल्यान, सरसमान मनीस तातूंत घुसपून पडटा. मागीर योग्य कितें आनी अयोग्य कितें, बरें कितें आनी वायट कितें हेंवूय ताका कळना. मागीर सर्ग मेळपाक तो कर्मकांड आनी 'गुरू -बाबां' फाटल्यान, वचून आपली जीण दुख्खान भरता. आपूण सुखी जातलो जाल्यार दुसऱ्यानूय सुखी आसपाक जाय हें सत्य ताका उमजना. आपलो अहंकार दुखावतकीच तो तिडटा. तिडकीन ताची विवेक बुद्दी नश्ट



वयरः जपानी 'फातरांच्या बागेचो' फोटू. तांतुतले रेवेंचे तरंग नदरेंत भरतात.

जाता. आपलोच फोंड तो खणपाक लागता आनी त्या फोंडांत आपूण पडटा.

मन हेंच आपल्या बंधनाचें वा मनाचे मुक्तीचें कारण. मनशाच्या मनांतच सर्ग वा नरक आसतात आनी विवेक आनी अविवेक ही ताचीं दारां हें सत्य आचार्य हाकुईनान स्पश्ट केलां. झॅनांत उपनिषदां, योग, ध्यान, बौद्धविचार आदींचो गरोप आसा. मन, बुद्दी, भावना, जाणविकाय हीं संवेदनशील करपाचें तंत्र म्हणजेच झॅन.

प्रार्थना, कर्मकांड, ध्यान धारणा, प्राणायाम, आनपान, योग-साधना हीं सगलीं तंत्रां अंतीम सत्याकडेन वचपाक आधार दितात.

पूण सगल्यांत म्हत्त्वाचें काम म्हणल्यार पयलें सत्य जाणटकच वेगळे वाटेन वचप. धिरान ती वाट धरप. जे साधक ते वाटेन गेले ते निर्भय जाले, जैतिवंत जाले. झॅनची (ध्यानाची) वेळ जिविता पासून वेगळी काडूंक येना. प्रत्येक खीण भान दवरून, जाग्रुत रावन जगप; चलता तो खीण हीच जीण हाचें भान येवप, म्हणजेच झॅन. वर्तमानांत जगप हेंच ध्यान, हेंच झॅन.

आयचे धकाधकीचे सर्तीच्या संवसारांत ध्यानाची-झॅनची आमकां सगल्यांकूच गरज आसा. शांत बसून, निःशब्द जावन, हेताविणें आमच्या मनाक दर खिणाक पळेल्यार, जादू घडटली. आमी आमच्या मनाचे गवाय जातले आनी आमी मनाची खोल अंतर्यात्रा सुरू करतले. आनी त्याच खिणाक दाटून आमची झॅन मार्गाची यात्रा नकळटां सुरू जातली. ही यात्रा शांती, सूख आनी समाधानान भरिल्ली जावंची हीच म्हजी प्रार्थना.

गुरू-कुंज,
दत्तवाडी, म्हापशें
२२ मार्च, २०१३.



फुटी च्यायेचें कॉप पियेत हांवें झूज थांबयलें.

## १. च्यायेचें कॉप

झॅन आचार्य नान-ईन जपानांत मेजी काळांत (१८६८-१९१२) जावन गेलो. विद्यापिठांतलो एक नामनेचो आचार्य झेन मार्ग समजून घेवपाक ताचे सरीं गेलो. नान-ईनान ताका च्या पियेवंक आफयलो. बुलींतली च्या कॉपांत ओतयतना कॉप उपाट भरलें. तरी तो ओतयत रावलो. कॉप भरतकीच च्या पिरींत रकली. हें सोंसूं नज जावन आचार्यान म्हळें, "कॉप उपाट भरलां. तांतूत चड च्या वचची ना." हें आयकून नान-ईनान म्हळें, "तुज्या स्वतःच्या मतांनी आनी जाणवायांनी तूं भरला, तुजें कॉप तुवें रितें केले बगर हांव तुका झेन मार्गा विशीं कितें सांगूं?"

## २. रस्त्यावेल्या चिखलांतलो हिरो

गुडो जपानी सम्राटाचो गुरू आसलो.तरीय तो एकलोच भिक्षा मागीत भोंवतालो. एकदां तो इदोक वतना ताकेनाका गांवांत पावलो. तिनसांज जाल्ली आनी पावस शिरंधारांनी रकतालो. गुडो चिप्प भिजिल्लो. ताच्यो तणाच्यो व्हाणो पिंजिल्ल्यो. वाटेर, एका शेतकाराच्या घरा भायर ताका व्हाणांचे चार-पांच पार दिसले. तांतलो एक घेवचो म्हूण ताणें दारार मारलें. व्हाणो विकतना घरकान्नीन ताची दशा पळेली आनी ताका रावपाचो आग्रो केलो.

गुडोन तिका हयकार दिलो. भितर वतकीच देवा कुडींत वचून ताणें एक मंत्र-सूत्र म्हळें. घरकान्नीन ताची वळख पयलीं आपले आवय कडेन आनी मागीर भुरग्यां कडेन करून दिली. गुडोक तो घराबो चिंतेस्त आनी निर्शेल्लो दिसलो. तांच्या दुख्खाचें कारण ताणें विचारलें. बायलेन म्हळें, "म्हजो घोव बेबदो जाला. जुगार जिखतकीच ताचे कुडींत तुतनायक रिगता आनी ताची हार जातकीच तो रिणां काडटा. केन्ना केन्ना तर्र जातकीच तो घराच येना. हांव कितें करूं?"



"ताका आवडनाशिल्ले वारे आसून लेगीत तो रूख उबो आसा."



"फुजी पर्वतावेलो धुंवर वाऱ्यान पयस खंयतरी अदृश्य जाता.
म्हज्या विचाराचो फुडार कोणाक खबर आसा?"

गुडोन म्हळें, “ताचें हांव पळेतां. हे पयशे घेवन कळसो भर सोरो आनी जेवण हाड. मागीर तुमी आड पडात. हांव देवाकुडींत प्रार्थना करतां.”

घरकार मध्यानेर तर्र जावन आयलो. आनी हुयेली मारीत आड्डू लागलो, “ए बायले, हांव घरां आयलां; म्हाका खावंक हाड.”

गुडोन म्हळें, “तें हांव तुका दितां. आज तिनसनां पावसांत सांपडिल्ल्यान तुजे बायलेन म्हाका हांगा आसरो दिला. ताची फेड करची म्हण हांवें सोरो आनी नुस्तें हाडलां. ताचो लाव घे.” घरकार खूब खोशी जालो. सोरो घटाघटा पियेवन तो थंयच लवंडलो. गुडो ताचे सरीं ध्यानस्थ बसलो. घरकार सकाळीं उठ्ठकीच राती कडेन कितें घडिल्लें, तें तो साप्प विसरिल्लो.

“तूं कोण, खंयसून आयला?” गुडोक ताणें विचारलें.

“हांव कियोटोचो गुडो. इडोक वतां.” गुडोन जाप दिली.

घरकाराक सामकी लज जाली. आपल्या सम्राटाच्या गुरूची ताणें माफी मागली.

गुडोन हांसकुऱ्यान म्हळें, “संवसार नाशिवंत. आमची जीण तर खिणयाळी. जुगार आनी सोऱ्यांत जीण होगडायल्यार तुका येस जोडूंक खंय वेळ मेळटलो? तुज्या घराब्याचेंय लुकसाण जातलें.”

सपनांतल्यान जागो जाल्ले वरी घरकार उठलो. “तूं म्हणटा तें खरें. तुज्या उपदेसाची फेड हांव कशी करूं? तुका हांव निरोप दिना. तुज्या सामानाची पोटली घेवन हांव तुजे वांगडा थोडो वेळ चलतां.”

“तुका जाय तशें कर,” गुडोन म्हणलें. ते दोगय वाट चलपाक लागले.

कोंसभर वतकीर गुडोन ताका घरा वचपाक सांगलें.

“आनी फकत दोन कोंस,” घरकारान म्हळें.

“आतां गेल्यार जाता.” गुडोन म्हळें.

“धा कोंसां उपरांत,” घरकारान जाप दिली.

“आतां वच” धा कोंस जातकीर गुडोन म्हळें.

“हांव जीव आसा सर तुजे फाटल्यान वतलों,” ताणें म्हळें.

हे रेखर्णीत सकाळीं फुलिल्ल्या

फुलांनी कोंडयाचे वंयेक

गुटलायलां.

ह्या फुलांचेर एका जपानी कवीन

'तंका' नांवाची एकवीस अक्षरांची

कविता रचल्या.

सकाळीं फुलिल्लीं हीं फुलां

सांजेमेरेन बावन झडटात.

कवी म्हणटा:

सकाळ उदेता

रात रोखडीच फाटल्यान येता.

जीण दंवावरी खिणयाळी आसता.

तरी सकाळची प्रभा, निश्चींतपणान

फुलत, फुलत रावता.

तिचे मोटवे पुर्ण जिणेंत.



जपानांतल्या नव्या झेन मार्गाची गुरु परंपरा गुडोच्या ह्या शिश्या कडसून सुरू जाता. ताचें नांव मुनान-जो फाटीं सरलोना.

## ३. अशें?

उजू मार्गान चलपी हाकुईनाक सगले शेजारी पाजारी मानताले. तो झॅनमार्गी आचार्य आसलो. ताच्या शेजारा रावपी पसरकाराक एक देखणी धूव आसली. एक दीस अवचीत तिका दीस गेल्यात अशें तिच्या आवय बापायक दिसलें. तांकां तिची खूब तिडक मारली. हाका जापसालदार कोण हें ती सांगना जाली आनी धपटायतकीर हाकुईनाचेंच नांव सांगून मेकळी जाली.

तिचे पालक आनी शेजारी तिडकून हाकुईना सरीं गेले आनी थंय वचून तांणी बोवाळ घालो. हाकुईन फकत "अशें?" म्हणून ओगी रावतालो.

बाळक जल्मतकीर आज्यान ताका हाकुईना सरीं व्हरून दवरलो. गांवांत पच्छी जावन लेगीत ताणें मायेन सांबाळ्ळो. शेजाऱ्यां कडल्यान दूद हाडून तो तें ताच्या पोटांत घाली. ताका कांयच उणें पडूंक दिनासलो.

पूण एक वर्स सरतकीच भुरग्याची आवय सैरभैर जाली. तिच्यान कशेंच रावं नज जालें. आनी ताच्या खऱ्या बापायचें गुपीत तिणें उक्तें केलें. तो नुस्त्याच्या बाजारांत मानायपण करतालो.

चलयेचे आवय बापूय हाकुईना सरीं धांवले. ताच्या पांयांर घालून घेत भुरग्याक परत व्हरपाचे तजविजेक लागले.

हाकुईनान कसलीच आडमेळीं हाडलीनांत. भुरग्याक तांचे सुवादीन करीत ताणें म्हळें, "अशें?"



पंधराव्या शतमानांत शेशू ह्या
जपानी चित्रकारान काडिल्लीं चित्र



## ४. आयकप

बानके झॅन मार्गी म्हालगडो आचार्य आसलो. ताच्या प्रवचनांक झॅन मार्गाच्या विद्यार्थ्यां वांगडाच गांवांतले लोक आनी हेर पंथांचे उपासकूय खेट करताले. तो सुत्रां म्हणनासलो वा आपली विद्वत्ता दाखोवपी भाशणांय करीनासलो. ताचीं उतरां ताच्या मना थावन येतालीं आनी आयकुप्यांच्या काळजाक भिडटालीं.

बानकेच्या प्रवचनांक लोकांची गर्दी जाताशी पळेवन निचीरेन पंथाच्या एका गुरूक जाळ मारतालो. ताचे शिश्य बानके सरीं वचूंक लागिल्ले म्हणून तो वाद घालपाचें निमित्त करून देवळांत गेलो.

‘‘ए झॅनपंथी गुरवा’’ ताणें उलो मारलो. ‘‘एक मिनीट राव. जो तुका लेखता तोच तुजें आयकतलो. पूण हांव तर तुका लेखिना. तूं म्हाका तुजें आयकूंक लायशी?’’

‘‘तूं म्हजे म्हऱ्यांत यो आनी मागीर पळे.’’ बानकेन म्हळें. गर्वान छाती फुलयत लोकांच्या चोब्यांतल्यान तो बानके सरीं गेलो.

म्हजे दावे वटेन सर. गुरून तशें केलें.

तशें न्हय.तूं उजवे वटेन येतकीर आमकां बरें उलोवंक मेळटलें. बानकेन अशें म्हणटकीर गुरू उजवे वटेन सरलो.

‘‘पळेलें? तूं तर म्हजे आयकूंक लागलो. म्हाका दिसता तूं एक सभ्य मनीस. आतां बस आनी आयक.’’ बानकेन म्हळें.

## ५. मोग उक्तेपणान कर

वीस साधक आनी एशून ही साध्वी झॅन मार्गांतलें येस जोडपा खातीर झॅन आचार्यां सरीं गेलीं.

एशून तकलेचें मुंडण करूनय सुंदर दिसताली. ती सादीं वस्त्रां घाली. ज साधक तिच्या मोगांत पडिल्ले. एका साधकान तर चीट बरोवन तिका एकां मेळपाची इत्सा परगटायली.

एशूनान हे चिटीक जाप दिलीना. पूण दुसऱ्याच दिसा आचार्यांचें प्रव सरतकीर तिणें त्या साधका सरीं वचून म्हळें, "तूं म्हजो इतलो मोग क जाल्यार, म्हाका तुजे वेंगेंत घे."

## ६. मनीसपण नाशिल्लो भिक्षू

चीन देशांतले एके म्हातारेन एका भिक्षूक वीस वर्सां वयर आदार दि ताका रावपाक एक खोंप बांदिल्ली आनी ध्यानाक सोंपें जावचें म्हूण ता जेवणाखाणाचीय वेवस्था केल्ली. इतल्या वर्सां उपरांत ताचें साधनेचें पारखूचें अशें तिका दिसलें.

हे खातीर तिणें एके कामातूर चलयेक वेंचून काडली. तिणें चलय आपोवन म्हळें, "चल आनी ताका वेंगेंत घे आनी मागीर अवचीत विच "मुखार कितें?" चली भिक्षू सरीं गेली आनी बोवाळ करिनासतना ताका वें घेतलो. आनी "मुखार कितें?" अशें तिणें विचारलें.

"एक जुनाट रूख शियांत थंड कातळार वाडटा. हुनसाण खंयच ना ताणें काव्यमय जाप दिली.

घडिल्लें तें चलयेन म्हातारेक सांगलें. तिणें तिडकीन म्हळें, "हांवें ता वीस वर्सां वयर आदार दिलो हें म्हाका खरेंच दिसना. तुजी गरज कितें हा ताका मात लेगीत पर्वा ना. तुजी अशी दशा कित्याक जाल्या हेंय ताका पडि

ना. तुज्या मोयपासांत ताका पडपाची गरज नाशिल्लीयबी. तरीय तुजी काकळूट करून ताका मनीसपणान चलूं येताले," अशें म्हणून ती रोखडीच भिक्षूचे खोंपी सरीं गेली आनी तिका उजो घालो.

## ७. कळोवणी

तनझान ह्या झॅन आचार्यान आपले जिणेंतल्या निमाण्या दिसा साठ पोश्ट कार्डां बरोवन आपल्या सेवकाक तीं पोश्टांत घालूंक लायलीं.तो वतकीर ताणें आपलो प्राण सोडलो.

पोश्ट कार्डांचेर उतरां बरयल्लीं तीं अशीं : "हांव हो संवसार सोडून वतां. तुमकां ही म्हजी निमाणी कळोवणी. तनझान २७ जुलय, १८९२."

## ८. व्हडलीं ल्हारां

मेजी मुस्तीचे सुरवेक ओनामी नांवाचो एक सुमो कुस्ती खेळपी आसलो. ओनामी म्हळयार व्हडलीं ल्हारां. तो शक्तिवंत आनी कुस्ती खेळपांत पाटांगडो आसलो. खाजगी कुस्तेंत तो आपल्या गुरूचेरय हार घाली पूण उक्त्या मैदानाचेर तो गळसणटालो आनी मागीर ताचे शिश्य लेगीत ताका हारयताले.

ह्या खातीर ओनामीन एका झॅन आचार्याची बुदमत घेवची थारायली. एक भोंवडी करपी आचार्य हांकुज शेजारच्या गावांत पाविल्लो. ताचे सरीं वचून ओनामीन ताका आपली खंत सांगली.

आचार्यान म्हळें, "तुजें नांव म्हळयार व्हडलीं ल्हारां. आज राती कडेन देवळांत राव. तूंच तीं ल्हारां अशें येवज. तूं एक भिजूड कुस्ती खेळपी न्हय. तूं मुखार येवपी सगल्यांक आड घालपी व्हडलीं ल्हारां अशें चिंत आनी तूं जपानांतलो कुस्ती वस्ताद जातलो."

आचार्य न्हिदूंक गेलो आनी ओनामी ध्यानाक बसलो. आपूणच ल्ह
अशें तो येवजूंक लागलो. सुरवेक ताच्या मनांत विचारांची खेंट जाली. ल
ल्हवू ताका आपूणच व्हडली ल्हारां हाची जाणविकाय जावंक लागल
व्हाजांत दवरिल्ली फुलां ल्हारां मुखार व्हांवन गेलीं. देवळांतली बुद्धाची मू
ल्हारांच्या हुंवारांत बुडली. फांतोड मेरेन सगलें देवूळच एका म्हाल सागर
सुकती आनी भरती जाल्ले वरी ताका दिसलें.

सकाळीं उठना फुडें आचार्यान ध्यानस्थ ओनामीचे मुखामळ पळेलें. ता
फाट थापटून ताणें म्हळें, "तूं आतां कसलोच हुस्को करूं नाका. तूंच
ल्हारां आनी तूं सगल्यांक लोळयतलो." त्याच दिसा ओनामीन कुस्ती
सर्तीत वांटो घेतलो. आनी तो जैतवंत जालो. उपरांत तो जपानांतलो नामने
कुस्ती वस्ताद जालो.

## ९. चंद्रिमाक चोरून व्हरूंक येना

रायोकान सामकी सादी जीण सारपी झॅन आचार्य आसलो. तो ल्हा
खोपींत एके दोंगुल्लेच्या मुळसांत रावतालो. एक दीस ताचे खोंपींत एक चो
आयलो, पूण चोरपा सारकें ताका थंय कांयच मेळ्ळें ना.

इतल्यांत रायोकान आपले खोंपींत पावलो. आनी ताणें चोराक धरलो. "
खुब पयसुल्ल्यान म्हजे सरीं आयला. तुवें रित्या हातांनी वचचें न्हय. ही
म्हजी मुस्तायकी."

चोर अजापीत जालो. ताणें भेट दिल्ली मुस्तायकी घेतली आनी ताणें थंयसू
कूस मारली.

चंद्रिमाक पळेत रायोकान विंगळोच बशिल्लो. "बाबडयाक हो चंद्रच दिवंव
मेळिल्लो जाल्यार!" ताणें मनांत म्हळें.

# १०. होशीनाची निमाणी कविता

झॅन आचार्य होशीन खूब वर्सां चीन देशांत राविल्लो. उपरांत जपानांतल्या उत्तर दिकेच्या वाठारांत रावन शिश्यांक शिकोवंक लागलो. आपल्या जाण्टेपणांत शिश्यांक ताणें चीन देशांत घडिल्ली एक काणी सांगली. ती काणी अशी:

एका वर्सा, २५ डिसेंबराक जाण्टया तोफुकून आपल्या शिश्यांक म्हळें:

"फुडल्या वर्सा हांव आसचोना, तेन्ना हाचे फुडें म्हजी बरी जतनाय घेयात."

शिश्यांक ही फकांडांशीं दिसलीं पूण गुरू प्रेमळ आशिल्ल्यान ताच्या प्रत्येक शिश्यान वर्स सोंपसर ताका बरी मेजवानी दिली. वर्स सोंपचे आदले रातीं तोफुकूनान म्हळें, "तुमी म्हजें मोगान केलें. फाल्यां दनपरां बर्फ पडचो थांबतकीर हांव तुमचो निरोप घेतलों."

शिश्य हांसले. रात नितळ आशिल्ल्यान बर्फ पडपाचीं चिन्नां दिसनासलीं. तो घडये तोंतेल्ल्यान कितेंय बडबडटा अशें तांकां दिसलें. पूण मध्यानरातीं बर्फ पडूंक लागलो. दुसऱ्या दिसा तांकां आपलो गुरू खंयच दिसलो ना. ते ध्यानाच्या सालांत गेले जाल्यार पळेल्यार गुरून थंय आपलो प्राण सोडिल्लो.

होशीनान काणी जातकीच म्हळें, "झॅन आचार्यान आपल्या मर्णाचो वेळ सांगचेलो नासता. पूण जाय जाल्यार ताका तो सांगूंक येता."

"तुमी सांगशात?" एकल्यान म्हळें.

"हय." ताणें जाप दीत म्हळें, सात दिसांनी हांव कितें करतलों तें तुमकां कळटलें."

खंयच्याच शिश्याक हें खरें दिसलें ना. सात दिसांनी ते एकठांय मेळटकीर जायते शिश्य ताचें ते उलोवपय विसरून गेल्ले.

होशीनान शिश्यांक म्हळें, "सात दिसां पयलीं हांव तुमकां सोडून वतलों अशें हावें म्हणिल्लें. अश्या वेळार भैरवी गीत बरोवचेलें आसता. पूण हांव

कवीय न्हय आनी चित्रीकय न्हय. म्हणून म्हजीं निमाणीं उतरां कोणय ब
घेयात. ताच्या शिश्यांक हीं फकांडांशीं दिसलीं. पूण एकल्यान बरोव
सुरवात केलीं. "तूं तयार आसा?" होशीनान विचारलें.

"हय गुरूजी." बरोवप्यान म्हळें. मागीर होशीन सांगूंक ला
"तेजांतल्यान आयलां हांव. आनी तेजा सरीं पर्थून वतां हें कितें?"

चार वळींची कविता पुराय जावंक एक वळ उणी आसली.

"गुरूजी आजून एक वळ उणी आसा." एकल्यान म्हळें. "पराक्रमी शि
भाशेन गरजत" होशीनान म्हळें.

"काऽऽऽ." आनी तो सोंपलो.

## ११. एक बुद्ध

तोकियो शारांत मेजी मुस्तींत दोन नामनेचे आचार्य रावताले.गुणांनी
एकमेकांक सामकेच विसंगत आसले. एकाचे नांव उनशो. तो बुद्धा
शिकवण नेमान पाळी. तो सोरो पियेनासलो. सकाळीं इकरा वरां उप
जेविनासलो. दुसऱ्याचें नांव तनझान. तो शाही विद्यापीठांत तत्त्वगि
शिकयतालो. बुद्धान सांगिल्ले नेम तो केन्नाच पाळिनासलो. आपणाक जाय ते
तो जेवी आनी दिसाचो जाय तेन्ना न्हिदतालो.

एक दीस उनशो तानझाना सरीं वचत जाल्यार तो सोरो पियेवंक बशिल्ल
हरशीं बुद्धाचारांत सोऱ्याचो थेंबो लेगीत जिबेर घेवंचेलो नासता.

"भावा, यो." तनझानान उनशोक येवकार दीत म्हळें, "एक कोप घेता?

"हांव सोरो केन्नाच घेना." उनशोन म्हळें.

"जो सोरो घेना तो मनीसच न्हय." तनझान.

"हांव सोरो घेना. म्हण हांव मनीसच न्हय अशें तुका दिसता?" उनशो
उसळून विचारलें, "हांव जर मनीस न्हय तर हांव कोण?"

"एक बुद्ध." तनझानान जाप दिली.

## १२. धादोशी चीनी

साकाची पोती खांदार घेतिल्ल्या आनी दुदीरमणा अश्या चीनी मनशाच्यो खूब मूर्ती तुमी पळेवंक नात? चीनी वेपारी ताका धादोशी चीनी वा हांसपी चीनी म्हण पाचारतात.

ताचें नांव होतेय. तो तांग राजवटींत जियेलो. झॅन आचार्य अशें म्हणून घेवपाक ताका मुर्वत दीस. म्हणून ताका आपले भोंवतणीं शिकपी भुरगेय एकठांय जाल्ले नाका आसले. ते बदला तो फळां, बिस्कुत्यो आनी खाणांनी भरिल्ली पोती फाटीर मारून गांवभर भोंवतालो. वाटे वेल्यान वतना तो ल्हान भुरग्यांक घेवन खेळटालो आनी तांकां पोतयेंतलें खाण वांटी. भुरग्यांची रस्त्यावयली शाळाच तो चलयी.

ताका एकाद्रो झॅन भक्त मेळ्ळयार हात फुडें करून तो म्हणटालो, ''म्हाका एक पयसो दी.''

''मंदिरांत रावन तूं भुरग्यांक कित्याक शिकयना?'' अशें कोणेंय विचारल्यार, तो म्हण ''म्हाका एक पयसो दी.''

एकदां तो भुरग्यांक खेळयतना एका झॅन आचार्यान ताची वासपूस करून म्हळें, ''झॅन म्हळयार कितें?'' मोन्यानींच जाप दिलेवरी करीत ताणें आपली पोती धप्प करून सकल दवरली.

''मागीर झॅन आपणांक साधलां हें कशें समजुचें?'' दुसऱ्यान विचारलें. ताणें आपली पोती खांदार मारली आनी फुडली वाट धरली.

## १३. चिखलाची वाट

तनझान आनी एकीडो चिखलाची वाट माड्डायत वताले. पावस शिरंधार
रकतालो. वाटेर एका मोडणार रसमी किमोनोक तांबडो पटो बांदिल्ली
देखणी चली तांकां मेळ्ळी. तिका रस्तो हुपूंक येनाशिल्ल्यान ती अडिल्ली.

तनझानान वेळ वगडायनासतना म्हळें "चलये, यो." आनी तिका उबार
पेले वटेन व्हरून दवरली.

एकीडोन रात जायसर आनी राबित्याच्या मंदिरा मेरेन पावसर एक उ
लेगीत काडलें ना. तो उलोवंक अनमनतालो. पूण मागीर मात रावं नज जा
ताणें तनझानाक म्हळें, "आमी भिक्षूंनीं बायलां आनी तातुंतले तातूंत सु
तरण्या चलयांच्या म्हऱ्यांत वचूंक जायना. तांकां हात लावंक जायना. त
करप घातमारें. तुवें तशें कित्याक केलें?"

तनझानान जाप दिली. "हांवें ते चलयेक केन्नाच पेले वटेन व्हरून दवरल
तूं मात अजून तिका घट्ट धरून रावला."

## १४. शोन आनी ताची आवय.

शोन हो सोनो झॅनमार्गाचो एक आचार्य आसलो. तो शिकतनाच ताच
बापूय भायर पडलो. आनी ताचे जाण्टे आवयची जापसालदारकी ताचे
पडली. ध्यान मंदिरांत वतना ताका आपले आवयक वांगडा व्हरचें पडटाल
देखून हेर भिक्षूं वांगडा ताका मठांत रावंक मेळनासलें. पूण ताणें मंदिराच्य
शेजाराच एक सान खोंप बांदून थंय आवयक दवरिल्ली आनी तो तिची जतना
घेतालो. हातान बरयल्लीं बुद्ध-सुत्रां विकून आपलें आनी आवयचें पोट त
भरतालो.

केन्नाय तो आवय खातीर तिचे आवडीचें नुस्तेंय हाडटालो. भिक्षू

नुस्त्याक आफुडचें नासता, देखून ताचे शेजारी ताचीं खेबाडां करताले. शोन तें कानामनार घेनासलो. पूण लोक ताका हेडसायतात म्हूण आवय सकलवयर जाताली. एक दीस शोनाक तिणें म्हळें, "पुता, हांव भिक्षुणी जातां आनी हाचे फुडें शिवराकच जेवतां." भिक्षुणी जातकच तीं दोगांय वांगडाच मठांत अभ्यास करूंक लागलीं.

शोन संगीताचो शोकी आनी फिशाल सारंगी वादक आसलो. ताची आवय लेगीत वादक आसली. दर पुनवे रातीं तीं दोगांय सारंगी वाजयतालीं.

एकदां एके बायलेन तांचें सारंगी वादन आयकलें. त्या दिव्य संगीतान ती पिशी जाली. सारंगी वाजोवपाक तिणें तांकां आपणागेर आपयलीं. तांणीय तिची विनंती मानून घेतली. कांय दिसांनी तीं रस्त्यार मेळतकच तांची बरी ऊठबस केल्ली. म्हूण तांणी तिचे उपकार आठयले. तांकां पळेवन रस्त्या वेले कुच्छित्री लोक आपसांत फिदी फिदी करून हांसले. मागीर तांकां कळ्ळें की ती एक शिंदळ आसली.

एकदां शोन प्रवचन दिवंक पयस भोंवडेक गेल्लो. कांय म्हयन्यांनी घरा येवन पळेल्यार ताची आवय भायर पडिल्ली. तो खंय गेला हें इश्टांक खबर नासलें म्हूण ही खबर दिवपाक ते पावले नांत. पूण तो घरा पावतासर तिच्या मर्णाची तयारी चलिल्ली.

शोनान तिरडे सरीं वचून आपली बेतकाठी तिरडेर थापटिली. ताणें म्हळें, "बाय, तुजो पूत तुजे सरीं आयलो."

"तूं वेळार पावलो हें पळेवन हांव खूब खोशी जाल्यां," तिचो आवाज काडून ताणें म्हळें, "हय हांवूय खूब खोशी जालां" शोनान म्हळें.

मागीर थंय एकठावल्ल्या मनशांक ताणें म्हळें, "मर्णाची क्रिया सोंपली. आतां तुमी तिका मातयेक लायात."

शोन जाण्टो जातकच आपली अखेर पाविल्ल्याची सुलूस ताका लागली. दुसऱ्याच दिसा सकाळीं ताणें आपल्या शिश्यांक म्हऱ्यांत आपोवन म्हळें, "हांव रोखडोच संवसार सोडटलों." आपलो गुरू आनी आपली आवय

हांच्या तसबिरी मुखार ताणें धूप जळ्ळो आनी एक कविता चित्रायली. ति
भावार्थ असो:

*संवसाराची चलतां वाट*
*छपन्न पावशीं वर्सां गेलीं*
*पावसा दडक थांबली तशी*
*कुपां हुबून नाच्च जालीं*
*निळया निळया मळबांत पळे*
*उदेला चंद्रीम पुनवे रातीं*

एकठांय जाल्ल्या शिश्यांनीं बुद्धसुत्रांचो पाठ म्हणटनाच ताचें निर्वाण जाल

## १५. बुद्धत्त्वापासून चड पयस ना

एका विद्यार्थ्यान आचार्य गसाना सरीं येवन विचारलें, "तुमी बायब
वाचलां?" गसानान म्हळें, "ना. म्हाका वाचून दाखय." ताणें बायब
उगडून संत मातेवाच्या शुभवर्तमानांतलो वांटो वाचलो: "आनी न्हेसणां विश
तुमकां हुसको कित्याक? शेतांतलीं फुलां कशीं वाडटात तें चिंतात.तीं कश
करिनात आनी सूतय काडिनात."

तर हांव तुमकां सांगतां, "राजा सालमोन पासून सगल्या आपल्या थाटांत
तातुंतल्या एकल्या सारको न्हेसलो ना. म्हणटकच फाल्यांच्या दिसाविशीं तुम
हुस्को काडूं नाकात. फाल्यांचो दीस आपलोच हुसको काडटलो."

हें आयकून गसानान म्हळें, "हीं जाचीं उतरां तो दिश्टावो जाल्लो पुरूश."

विद्यार्थी फुडें वाचपाक लागलो: "माग आनी तुमी घेतले. सोदात आन
तुमकां मेळटलें. दारार मारात आनी तें तुमकां उगडटलें. कित्याक, मागीत त
घेतलो, सोदीत ताका मेळटलें आनी दारार मारीत ताका तें उगडटलें."

हें आयकून गसानान म्हळें, "हीं उतरां तर बेस बरीं. जाणें तीं म्हळयांत
तो बुद्धत्त्वापासून चड पयस ना."

## १६. शिकोवपांत हिमटो

तोकियोंतल्या एका तरणाटया वैजान आपल्या झॅन शिकपी इश्टाक एकदां विचारलें, ‘‘झॅन म्हणल्यार कितें?’’

इश्टान म्हळें, ‘‘तें हांव नकळ. पूण एक मात खरें. तुका झॅन कळ्ळयार तुजें मर्णाचें भंय नाच्च जातलें.’’

‘‘तशें जाल्यार चड बरें. म्हाका झॅन शिकूंक जाय. तो म्हाका कोण शिकयत?’’ वैजान म्हळें.

इश्टान जाप दिली, ‘‘आचार्य नान-ईना सरीं वच.’’

कुसुदा नान-ईना सरीं गेलो. वतना ताणें साडेणव इंच लांबायेची सुरी व्हेली. आचार्य मर्णाक भियेता काय ना हें ताका पारखुचें आसलें.

कुसुदाक पळेतकीच नान-ईनान म्हळें, ‘‘इश्टा, तूं कसो आसा? आमी खूब दीस मेळूंक नांत न्हय?’’

कुसुदा गणमणलो. ताणें म्हळें, ‘‘आमी पयलीं केन्नाच मेळूंक नांत.’’

‘‘हय, तुजें खरें.’’ नान-ईनान म्हळें, ‘‘तूं हांगा शिकपी दुसरो एक वैज अशें हांव समजलों.’’

हें उलोवप जाता सर कुसुदाक आचार्याची परिक्षा घेवंक जमलें ना. म्हणून ताणें झॅन मार्गाचे पाठ आपणांक दिशीत काय म्हण आचार्याक विचारलें.

नान-ईनान म्हळें, ‘‘झॅन कठीण न्हय. तूं एक वैज. तुज्या वायटकारांची सेवा मोगान कर. तुका झॅन सादतलो.’’

कुसुदा तीन खेपो नान-ईना सरीं गेलो. दर खेपेक नान-ईनान तेंच सांगचें. ‘‘वैजान हांगासर वेळ होगडावचो न्हय. घरा वच आनी तुज्या पिडेस्तांची बरी जतनाय घे.’’

पूण हें करतकीच आपलो मर्णाचो भंय कसो वतलो हें कुसुदाक कळ्ळें ना.

चवथे खेपेक नान-ईना सरीं वतकीच कुसुदान म्हळें, ‘‘झॅन शिकतकीच

मर्णाचो भंय वता अशें म्हज्या इश्टान म्हणिल्लें, पूण तुका मेळटा तेन्ना तूं म्
म्हज्या दुखणेकारांची जतनाय घेवपाक फर्मायता. पूण होच झॅन मार्ग अ
जाल्यार फाल्यां सावन हांव हांगा येवचो ना.''

नान-ईनान हांसून कुसुदाची फाट थापटून म्हळें, ''तुका हांवें
कश्टायलो. आतां हांव तुका एक कुवाडें घालता ताचेर चिंत. तुका
सादतलो.'' नान-ईनान ताका जोशूचें 'मू' (नेति/कांय ना) नांवाचें कु
घालें.

हें कुवाडें सुटावें करपाचो यत्न ताणें दोन वर्सां केलो. मनाक थि
आयली अशें दिसतकीच तो नान-ईना सरीं गेलो. नान-ईनान म्हळें,
अजून भितर पावंक ना.'' आनीक दोन वर्सां उपरांत कुसुदाच्या मनाक थि
आयली. सगल्या प्रस्नांचो सुटावो जालो. 'कांय ना' (नेति) हेंच सत् ह
दिश्टावो ताका जालो. तो आपल्या पिडेस्तांची मोगान जतनाय घेवंक लाग
आनी नकळटां जीण आनी मर्ण हांचो हुस्को ना जालो.

एक दीस नान-ईनाचे भेटेक वतकीच कुसुदांक पळेवन तो निख
हांसलो....

## १७. एक दिश्टांत कथा

एक मनीस रानांतल्यान वतना ताका वाटेर एक वाग मेळ्ळो. वाग दि
पडिल्ल्या खिणाक तो धांवपाक लागलो. पूण वागान ताची फाट सोडलि
धांवतां धांवतां तो एका दोंगराच्या कडयार पावलो. थंय एके वालीच
आदारान ताणें कडया वेल्यान सकयल उडी मारली. वाग वेल्यान ताका हुं
रावलो. मनशाक थरथरो भरलो. सकयल पळेल्यार कडयाच्या मुळसांत दुस
वाग ताका खावपाचे तयारेन उबो रावला. ती वालच आतां ताचो आ
आसली.

म्हणटा सर एक धवो हुंदीर ती वाल आपल्या धारेस्त दांतांनी चाबडाव

लागिल्लो. इतले म्हणसर ताणें एक रसाळ आंबो शेजारच्या आंब्यारूखार पळेलो. एका हातांत वाल धरून ताणें दुसऱ्या हातान तो आंबो झोपय मारून काडलो. खातकच तो ताका कितलो गोड लागलो म्हूण सांगूं!

## १८. पयलें तत्त्व

कियोतोंतल्या ओबाकु मंदिरांत तुमकां "पयलें तत्त्व" हीं प्रचंड आकाराचीं अक्षरां दरवंटयाचेर कोंत्रायल्लीं दिसतात. हीं अक्षरां सदचे परस आकारान खुबच मोटीं आसात. हस्ताक्षर-कलेचे रसिक जाणकार त्या अक्षरांच्या वळणाक एक उंच पांवडयाची कलाकृती म्हूण तोखेतात. कलाकार कोसेनान ही कलाकृती दोनशें वर्सां फाटीं चित्रायल्ली. ताणें तीं आदीं कागदार चित्रायल्ली आनी ताचेवेल्यान थवयांनी ती लाकडांत कोत्रायली. हीं अक्षरां कागदाचेर चित्रायतना कोसेना वांगडा ताचो एक हुशार आनी धीट शिश्य काम करी. ताणें ह्या कामा खातीर कांय गॅलन काळी शाय तयार केल्ली. चित्रकलेंत खांपो आशिल्लो हो विद्यार्थी आपल्या गुरूच्या वावराचेर टिका करपाची एकूय संद सोडिनासलो.

पयली कलाकृती पळेतकीर ताणें कोसेनाक म्हळें, "ही बरी जावंक ना."

दुसरी कलाकृती ताका दाखोवन कोसेनान विचारलें:

"ही कशी जाल्या?" "सामकी वायट, पयले परसय वायट." शिश्यान म्हणलें. कोसेनान एका फाटल्यान एक अश्यो चौऱ्यायंशीं कलाकृती कागदार चित्रायल्यो पूण शिश्याक तांतुंतली एकय मानली ना.

एकदां ताचे शिश्य थोडया वेळाखातीर भायर वतकीच कोसेनान येवजिलें, "शेकीं हाचे तीख नदरेंतल्यान सुटपाची संद मेळ्ळया" अशें म्हणून ताणें बेगोबेग मन लावन 'पयलें तत्त्व' हीं अक्षरां चित्रायलीं. तीं पळेतकीच शिश्य खोशेन आडुलो, "ही एक म्हान कलाकृती!"

## १९. आवयचो सल्लो

शिंगोन तत्त्वगिन्यान शिकोवपी आचार्य जीऊन हो एक नामनेचो संस
पंडित आसलो. तो ताकुगावा मुस्तींत जपानांत रावतालो. आप
भुरगेपणांतूच तो वांगडा शिकपी भुरग्यांक पाठ शिकयतालो. ताचे आवय
कानार ही गजाल येतकीर तिणें ताका एक चीट बरयली ती अशी:

"पुता, तूं बुद्धाचो भक्त. एक चलपी-भोंवपी शब्दकोश जावचो म्हण
जल्माक येवंक ना. म्हायती मेळोवप, विस्कटावणी करप, यश आनी भोव
जोडप असल्या गजालींक अंतपारच ना. तुवें हे फुडें व्याख्यानां दिवप
करचें. दोंगरी वाठारांतल्या एका ल्हानशा देवळांत वचून राव. थंय एकां
ध्यान कर म्हणटकच तुका दिश्टावो जातलो."

## २०. एका हाताचो आवाज

मोकुराय केनीन मंदिराचो म्हाल आचार्य आसलो. मोकुराय म्हळयार श
गडगडो. ताणें बारा वर्सांचे पिरायेच्या टोयोचो सांबाळ केल्लो. टोयो स
आचार्या भोंवतणीं गुडगुडटालो. आपले परस पिरायेन व्हड विद्य
आचार्याचे कुडींत वचून सांजेन (गुरू कडेन चर्चा) करतात हें पळेता
सांजेनचे पाठ घेतना आचार्य मन थीर करपाक कुवाडीं घाली. आपणां
सांजेनचे पाठ आचार्यान दिवचे ही विनंती टोयान आचार्याक केली.

"तूं अजून भुरगो आसा आनी थोडीं वर्सां राव", आचार्यान म्हणलें.
टोयो आपलो हट कसोच सोडीना जालो. तो हटाकूच पेटलो आनी आचार
ताची विनंती शेकीं मान्य केली.

दुसऱ्या दिसा तिनसांजेर सान टोयो सांजेनचो पाठ घेवंक आचार्याच्या कु
हुंबऱ्यार रावलो. घांट वाजोवन ताणें तीन खेपो कमर बागोवन आचार्यांक न
केलें, आनी ताचे सरीं वचून बसलो.

ताका पळेवन आचार्यान म्हणलें, “ताळी वाजयतकूच दोन हातांचो आवाज येता. आता म्हाका एका हाताचो आवाज दाखय.” कमर बागोवन टोयोन गुरूक नमन केलें आनी तो कुवाडें सुटावें करपाचे तयारेक लागलो.

आपल्या कुडीच्या जनेला भायर ताका गेयशांच्या संगीताचे सूर कानार पडले. ताणें म्हळें “कुवाडयाची जाप मेळ्ळी.” आचार्यासरीं वतकच टोयोक कुवाडयाचें उत्तर विचारलें. टोयोन गेयशांचें संगीत वाजोवन दाखयलें. “हें उपकरचें ना. हो एका हाताचो आवाज न्हय. तुका तो अजून होलमुचो आसा.”

शेजारा वाजपी गेयशांचें संगीत आपल्या साधनेक बादा हाडीत देखून टोयोन आपली रावतिका एके निर्जन सुवातेर व्हेली. पर्थून तो ध्यानाक बसलो. एका हाताचो आवाज कितें आसत काय? तो चिंतपाक लागलो. इतले म्हणसर टप् टप् करून गळिल्ल्यो उदकाच्या थेंब्याचो आवाज ताच्या कानार पडलो. “कुवाडयाचें सुटावें जालें” ताणें म्हणलें. आचार्याक ताणें गळिल्ल्या उदकाच्या थेंब्याची नक्कल करून दाखयली.

आचार्यान म्हळें “तुका कुवाडें सुटावें जावंकना. पर्थून यत्न कर” पूण ताचे यत्न सफल जाले ना. ताणें वावाचो आवाज, घुगीच्या रडपाचो आवाज, तोळांचो आवाज काडून दाखयले. आचार्याक ते मान्य जालेनांत. एका वर्सा उपरांत अखेरेक सान टोयोक खरें ध्यान साधलें. ताची तनरी लागली आनी तो सगळ्या आवाजांचे पेल्यान गेलो. मागीर ताका खंयचोच नाद आयकूंक येना जालो. मागीर ताका नादा विरयत आशिल्लो नाद आयकूंक आयलो. टोयोक एका हाताच्या आवाजाचें कुवाडें सुटावें जाल्लें.

## २१. एशुनाचें निर्वाण

झॅन साध्वी एशुनान आपले पिरायेचीं साठ वर्सां हुपिल्लीं. आपले जी
अखेरेक तिणें आश्रमांतल्या कांय भिक्षूंक आपोवन आंगणांत लाकडाचे
हाडूंक लायले. आनी सरण दाळूंक लायलें.

सरण दाळटकीच ती ताचेर चडून मदीं घट्ट बसली. तिणें तांकां सर्णा
चारय वटांनी उजो लावंक लायलो.

"हे साध्वे, थंय तुका हुलप लागता?" एका भिक्षून विचारलें.

"तुजे सारक्या मुर्खानूच असले गजालींत लक्ष घालपाचें," तिणें
दिली.

जाळ पेटलो आनी एशून सोंपली.

## २२. सूत्रपाठ

एका शेतकामतीन आपले सोंपिल्ले बायले खातीर एका पुरयताक सूत्र
वाचूंक लायलो. तो वाचतकीच शेतकामतीन ताका विचारलें, "हाका ल
म्हजे बायलेक पुण्य गावतलें मूं?"

"तुजेच बायलेक कित्याक, तर सगल्या जिवांक हाचो लाव जातल
पुरयतान जाप दिली. शेतकामतीन म्हणलें, "म्हजी बायल दुबळी. सग
जिवांक जर हाचो लाव, तर हेर तिचो फायदो घेतले. कित्याक तिचें
तांकां मेळटलें. तेन्ना फकत तिचे पासत सुत्रां म्हण."

"बुद्धाचे अनुयायी सगळया जिवां पासत आशिर्वाद मागतात आनी त
पुण्य मेळचें म्हण प्रार्थितात," पुरयतान ताका समजायलें. शेतकामतीन त
म्हळें, "ही शिकवण खरेंच उत्तम. पूण हाका एक आडवाद दवर. म्हजो
शेजारी म्हाका खूब पिडटा आनी म्हजें वायट इत्सिता. सगल्या जिवांत
ताका एकल्याकूच वेगळो काड."

## २३. तुजे ठांय आशिल्लें धनाचें घर उघड

दायजू आचार्य बासू सरीं गेलो. आचार्यान ताका विचारलें, "तूं कसल्या सोदांत आसा?"

"दिश्टाव्याच्या" दायजून जाप दिली.

"तुजे ठांय धनाचें घर आसा. तूं भायर कितें सोदता?" बासून म्हळें.

"म्हजे ठांय आशिल्लें धनाचें घर खंय आसा?" दायजून विचारलें.

आचार्यान म्हळें, "तूं जें विचारता तेंच तुजें धनाचें घर."

दायजूक दिश्टावो जालो. उपरांत तो आपल्या इश्टांक सदांच उपदेश करतालो. "तुमचे ठांय आशिल्लें धनाचें घर उगडात आनी तातुंतलें धन वापरात."

## २४. खोशेचो आवाज

झॅन म्हाल आचार्य बानके भायर पडटकीर ताच्या आश्रमा भायर शेजारा रावपी एका कुड्डयान आपल्या इश्टाक म्हणलें, "हांव कुड्डो आशिल्ल्यान म्हाका मनशाचें मुखामळ दिसना. पूण ताचो सभाव ताच्या आवाजा वेल्यान हांव पारखितां. जेन्ना कोणय दुसऱ्याचे खोशे खातीर परबीं दिता तेन्ना ताच्या आवाजांत लिपिल्ले दुस्वासाचे सूर म्हज्या कानार पडटात. जेन्ना कोणूय दुख्ख ल्हव करूंक जाप दिवंक वतात तेन्ना तांच्या आवाजांत लिपिल्ले समाधानाचे सूर म्हज्या कानार पडटात, जशें कितें पाचारूंक गेल्ल्याचे जिणेंत हे वायट घडणुकेंतसून फायदो जावंचेलो आसा. पूण बानकेच्या आवाजांत वयलेचाराचे सूर केन्नाच आयकूंक आयलेनांत. तो मना थावन उलयतालो. जेन्ना तो खोशेचीं उतरां उलयतालो तेन्ना खोशे बगर कानार कांयच पडनासलें. जेन्ना तो दुख्ख उक्तायतालो तेन्ना तो फकत दुख्खाचोच उमाळो आसतालो."

## २५. भेट कार्ड

मेजी मुस्तींत केयेचू नांवाचो झॅन म्हाल आचार्य कियोतोच्या मंदिर
मुखेल आसलो. एक दीस कियोतोचो राज्यपाल ताका पयलेच फावट भेटप
गेलो. ताच्या सेवकान राज्यपालाचें भेटकार्ड केयेचू सरीं व्हेलें. कार्डा
"कितागाची, कियोटोचो राज्यपाल" अशीं उतरां बरयल्लीं:

"ह्या मनशा लागीं म्हजें कांयच काम ना." केयेचून ताच्या सेवक
म्हणलें, "ताका सांग, तो हांगा सावन गेल्यार बरो".

सेवक घडिल्ली गजाल राज्यपालाक सांगतना अनमनलो. "ती म्हजीच च
जाली." राज्यपालान म्हळें आनी 'कियोटोचो राज्यपाल' हीं उतरां लापस
खोडलीं. तें भेट-कार्ड पळेतकीच केयेचून म्हळें, "आरे, हो कितागाची म
म्हाका ताका मेळूंकच जाय."

## २६. सगलेंच बऱ्यांतलें बरें

बानझान बाजारांत भोंवतना एक खाटीक आनी ताच्या गिरायका मदल
संवाद ताणें आयकलो.

"तुजे कडलो बऱ्यांतलो बरो मांसाचो कुडको म्हाका दी." गिरायका
म्हळें.

"म्हज्या दुकानांतलें सगलेंच मांस बरें. तुका बरें नाशिल्लें हांगा कांय
मेळचें ना" खाटकान जाप दिली.

हें आयकून आचार्य बानझानाक दिश्टावो जालो.

## २७. खीणभर इंच, फुटभर रत्न

एका व्हडल्या भाटकारान झॅन आचार्य ताकुआनाक आपणें वेळ कसो सारचो हें सांगची विनंती केली. ताच्या कामाचो दीस सोंपून सोंपनासलो आनी दीसभर लोकांचे सलाम घेता सर ताचे फाटींत येतालें.

ताकुआनान ताका आठ चिनी अक्षरां चितारून दिलीं. ताचो अर्थ असो आसलो.

*नाका परत आयच्या दिसा*
*इंचभर खीण फूटभर रत्न.*
*दीस आयचो येवचो ना*
*सरिल्लो खीण एक अमोल रत्न.*

## २८. जिणेंतलो पयलो हांसो

आचार्य मोकुगेनच्या मुखामळार ताचे जीणेंतल्या निमाण्या दिसा मेरेन कोणेंच हांसो म्हूण पळेवंक नासलो. संवसार सोडची वेळ येतकच ताणें आपले वांगडा धा वसाँ आशिल्ल्या विद्यार्थ्यांक आपोवन सांगलें, “झॅनचो अर्थ तुमकां कितें समजला तें म्हाका कृतीन दाखयात. तो स्पश्ट तरेन दाखयतल्याकच हांव ताका म्हजो वारस म्हूण वेंचतलो. आनी ताका म्हजी काबाय आनी वाटी मेळटली.”

सगळेच चकासूर जावन आचार्याक पळेवंक लागले; पूण अर्थ दाखोवंक कोणूच फुडें सरलो ना. कांय वेळा उपरांत ताजो एनको हो सगळयांत म्हालगडो शिश्य ताचे सरीं आयलो आनी ताणें वखदाचें कोप कांय इंच फुडें सरकायलें.

आचार्याच्या मुखामळार एक आंटी उदेली आनी ताणें तिडकीन म्हळें,

"तुका इतलेंच समजलां." एनकोन फुडें धुकलिल्ले कोप फाटीं काडलें.

आचार्याचे मुखामळ हांशान फुल्लें. ताणें म्हळें, "आरे चोरा, म्हजे सरीं वर्सां रावनय तुवें म्हजी अख्खी काया पळेवंक ना. ही घे म्हजी काबाय अ वाटी."

## २९. बुद्ध-सुत्रांचें उजवाडावप

झॅन भक्त तेत्सुगेनान चिनी भाशेंतली बुद्ध सुत्रां पयलेच पावट जपा भाशेंत अणकारपाचीं थारायलीं. ताची पयली खेप सात हजारांची आनी लाकडी ठशां वेल्यान छापची ही ताची येवजण आसली. ताच्या कांय ब मागप्यांनी ताका प्रत्येकी शेंबर पोवनांची पटी दिली तर हेरांनी खुब उणी प दिली. पूण सगल्यांचेच उपकार ताणें समा नदरेन मानले.

इतल्यांत उजी न्हंयेक हुंवार आयलो. मागीर त्या वाठारांत दुकळ पडलो तेत्सुगेनान पुंजायल्ले दुडू लोकांच्या आलशिऱ्याक वांटले. दुसरे पावटीय दु पुंजायतकीच देशांत दुकळ पडलो. दोनूय पावटी ताणें दुडू दुकळांतल्य पिडेस्तांक वांटून उडयले.

तिसरे खेपेक पुस्तकाच्या वावराक हात घालतकीच तो पुराय करपाव ताका वीस वर्सां लागलीं. ताच्या पुस्तकाचे ठशे कियोटोंतल्या ओबा मंदिरांत आज लेगीत पळेवपाक मेळटात.

तेत्सुगेनान खंय ठशाचे तीन संच केल्ले. पयले दोन अदृश्य संच निमाण्य संचाचे तुळेंत जायते श्रेश्ठ आसले अशें जपानी लोक आपल्या भुरग्यांव सांगीत आयल्यात.

## ३०. शाळेंत न्हिदपी विद्यार्थी

म्हाल आचार्य सोयेन शाकू आपले पिरायेच्या एकसठाव्या वर्सा सोंपलो. हेर झॅन आचार्यां परसय गिरेस्त शिकवण आनी विचार-धन आपल्या फाटल्यान ताणें दवरलें आनी आपली जीण सफळ केली. गिमाळयांत ताचें विद्यार्थी दनपारचे आड पडटाले पूण आचार्य सोयेन एक खीण पसून व्रगडायनासलो.

तो बारा वर्सांचे पिरायेचेर तेंगाय तत्त्वगिन्यानाचो अभ्यास करतालो. एकदां वर उबाळांत खूब उकडटालें. पाय मेकळे करचे म्हूण तो मात्सो लवंडलो आनी थंयच ताचो दोळो लागलो. तेदोळा तांचो गुरू भायर सरिल्लो.

तीन वरां उपरांत ताका जाग आयली. त्या वेळार गुरू घरांत भितर सरतालो. दारा कडेनच शेकानशेक आडवो पातळिल्ल्यान सोयेनाक ताका चुकोवंक जालें ना. पूण कांयच जावंक ना अशें दाखयत गुरू ताचे वेल्यान दांग घालून वतना तो जाण्टो मनीस जाल्ले वरी पुटपुटलो "तुका त्रास जालो ना मूं? तुका त्रास जालो ना मूं?"

पर्थून आनी सोयेन दनपारचो न्हिदलो ना.

## ३१. सपनाची भूंय

एका झॅन आचार्याच्या शिश्यान एक खबर सांगली ती अशी: आमच्या गुरूंक दनपरां आड पडपाची संवय आसली. तांच्या सगल्या शिश्यांनी ताका विचारलें, "तूं दनपारचो कित्याक न्हिदता?"

"हांव कनफुशीयसा वरी सपनाचें भुंयेर वतां. आनी थंय जाण्टयां संतांक मेळटां," गुरून सांगलें. (कनफुशीयसाक न्हिदेंत जाण्टे संत भेट दिवंक येताले अशें आपल्या शिश्यांक तो सांगतालो)

एक दीस दनपरां खूब उकडटालें. आनी गुरू नाशिल्ल्यान आमकां

सगल्यांक न्हीद लागली. गुरू येतकीच आमी ताची खूब उलोवणी ख
आमी म्हळें, "कनफुशीयसा वरी आमी सगले आज सपनाचे भुंयेर गेल्ले
थंय जाण्टयां संतांक मेळ्ळे."

"तांणी तुमकां कितें सांगलें?" आचार्यान विचारलें. भुरग्यांमद
एकल्यान जाप दिवन म्हळें, "तुमी तांकां दिसपट्टे दनपारचे मेळूंक 
अशें सांगतकीच तांणी आमकां म्हणलें, तुमच्या गुरूक आमी हांगा के
पळेवंक ना."

## ३२. जोशूचो झॅन

आपले पिरायेचीं साठ वर्सां जातकीच जोशून झॅनचो अभ्यास सुरू के
झॅन ताका अंयशाव्या वर्सा सादलो. आपले पिरायेच्या एकशें विसाव्या
मेरेन तो विद्यार्थ्यांक शिकयतालो. एक पावट एका विद्यार्थ्यान ताका विचा
"म्हजें मन रितें जातकीच हांव कितें करूं?"

"ते भायर उडय" जोशून जाप दिली.

"पूण म्हजे लागीं कांयच नासतना हांव कितें भायर उडयतल
विद्यार्थ्यान विचारलें. "तशें जाल्यार तें उखलून भायर व्हर." जोशून म्ह

## ३३. भिकाऱ्याचे जिणेंतलो झॅन

तोसुअी आपले मुस्तींतलो एक नामनेचो झॅन आचार्य आसलो. अ
जिणेचे अखेरेक तो ज्या मंदिरांत रावतालो थंय विद्यार्थ्यांची खेंट जाल्ली. दे
ताणें प्रवचनां दिवचें बंद करून मंदीर सोडपाचें थारायलें. विद्यार्थ्यांक आप
तांकां जाय थंय वचपाची मेकळीक दिली. ते उपरांत तो कोणाचेच न
पडलो ना.

तीन वर्सांनी ताका एका शिश्यान कियोतोच्या पुला पोंदा भिकाऱ्यां

पंगडांत पळेलो. ताणें आचार्या सरीं वचून आपणांक शिकोवंची विनंती केली.

"तूं म्हजे भाशेन फक्त दोनच दीस हांगा रावशीत जाल्यार हांव तुका शिकयतां," आचार्यान म्हळें.

मागीर भिकाऱ्याचो भेस घालून तो ताचे सरीं एक दीस रावलो. दुसऱ्याच दिसा तांच्या पंगडांतलो एक भिकारी सोंपलो. तोसुअीन आनी ताच्या शिश्यान मद्यानरातीं ताची कूड मातयेक लायली. आनी ते आपल्या मुकूकामाक परतले.

तोसुअी गाड न्हिदलो. पूण शिश्याचो दोळो मात पसून लागलो ना. उजवाडटकीच आचार्यान ताका म्हणलें, "आज अन्ना खातीर भिक्षा मागची आमकां गरज ना. आमच्या सोंपिल्ल्या इश्टान थोडे अन्नाचे गोटे दवरल्यात. ते घे." पूण शिश्याक एकूय गोटो वचना जालो.

हें पळेवन आचार्यान म्हळें, "तुका म्हजे वरी रावंक येना. तूं हांगासून भायरो जा. आनी म्हाका परतो पिडूंक येवं नाका."

## ३४. खरें आनी चूक

वर्सांतल्यान एकदां आचार्य बानके ध्यान शिकोवचे खातीर एकांतवासाचो सप्ता मनयतालो. त्या वेळार ताचे सरीं जपानांतल्या सगल्या वाठारांतल्यान विद्यार्थी एकठावताले. असल्या एका मेळांत एका विद्यार्थ्याक चोरी करतना धरलो. हेर विद्यार्थ्यांनी कागाळ करून ताका थंयसावन धांवडावचो अशें बानके सरीं वचून मागलें. बानकेन तें कानामनार घेतलें ना. त्याच विद्यार्थ्याक दुसरेय पावट चोरी करतना धरलो. बानकेन ते गजाली कडेन दुर्लक्ष केलें.

विद्यार्थ्यांक हाची तिडक मारली. तांणी एक अर्जी केली. चोराक धांवडायना जाल्यार थंयसून वचपाची धमकीय बानकेक दिली.

अर्जी वाचतकीर बानकेन विद्यार्थ्यांक आपोवन म्हणलें, तुमी सगले शाणे भाव. तुमी कितें खरें आनी कितें खरें न्हय तें जाणात. तुमी दुसरे कडेन गेल्यार

म्हजें कांय म्हणणें ना. पूण हो तुमगेलो बावडो भाव खरें आनी फट हातुं
फरक नकळ. ताका म्हजे बगर कोण शिकयतलो? तुमी सगले गेल्यार प
ताका हांव म्हजे सरींच दवरतलों.

अपराधी भावांच्या दोळयांतसून घळघळीत दुकां व्हावंक लागलीं.
गुन्यांवकार विद्यार्थ्यांचें मुखामळ पच्छातापान नितळ जाल्लें. उपरांत
करपाची इत्साय ताका केन्नाच जाली ना.

## ३५. हिमटो कलावंत

आचार्य गेसन एक व्हड कलाकार आसलो. तो चित्र काडचे पयलीं स
दुडवांची मागणी करतालो. ताच्या वावराचो मोबदलो लेगीत चड आसता
देखून लोक ताका हिमटो कलावंत म्हण पाचारताले.

एकदां एके गेयशेक ताणें काडिल्लें चित्र जाय आसलें. "तूं चित्राची किं
कितें दितली?" गेसनान विचारलें, "तुका जाय तितली तिणें म्हणलें," "
तुवें म्हजे मुखार तें चित्र काडपाक जाय."

गेसेनाक तिणें आपल्या पात्रावांक दिल्ले मेजवानीच्या दिसा आपय
गेसेनान तांच्या मुखार बेस बरें चित्र काडलें. आनी चित्राचें मोलय सु
भायर सांगलें. तिणें तें दिलें बी. पूण दुडू दितना तिणें आपल्या पात्राव
म्हळें, "हाका फक्त दुडूच जाय. ताचीं चित्रां उत्तम हांतूंत दुबावूच ना.
हाचें मन बुरशें; दुडवाचे आशेन तें चिखला वरी जाला. ताचे बुरशें म
चित्रायता म्हूण ताची चित्रां लोकांनी पळेवपाचे लायकेची नासतात. च
चड तांचो उपेग म्हज्या घागऱ्या खातीर जायत." अशें म्हणून तिणें आप
एक सदांचो घागरो हाडलो आनी ताचे फाटले वटेन चित्र काडपाक लाय

गेसेनान थंडसाणीन म्हळें, "तूं ह्या चित्राक दुडू कितले दितली?"

"तुका जाय तितले." गेयशेन जाप दिली.

गेसेनान चित्राचे हिसपा भायर दुडू सांगले. आनी तिका जाय तसलें 

काडून दिवन तो भायर सरलो.

गेसेन इतले चड दुडू कित्याक सांगता हाचें कारण लोकांक मागीर समजलें.

ताच्या राबित्याच्या वाठारांत सदांच खर दुकळ पडटालो. गिरेस्त दुबळयांक आदार दिनासले. गेसेनान लोकांक नकळटां एक गुदांवूच तांदूळ गोटयान भरून दवरिल्लो. दुकळाच्या दिसांनीं तो पिडेस्तांक तातुंतले धान्य गरजे प्रमाणें वांटूटालो.

तशीच ताच्या गांवांतसून राष्ट्रीय स्मारकाकडेन वचपी रस्त्याची सामकी दुर्दशा जाल्ली आनी प्रवाशांचे हाल जातालें. देखून त्या रस्त्याची दुरूस्ती करपाचें ताणें थारायल्लें. गेसेनाच्या गुरूच्या मनांत गावांत एक देऊळ बांदपाचें आसलें. पूण ताची इत्सा पूर्ण जावचे पयलींच तो सोंपलो. गेसेनाक तें देवूळय बांदपाचें आशिल्लें.

गेसेनाच्यो ह्यो तिनय इत्सा पूर्ण जातकीच ताणें आपलीं पिशोलां आनी रंग भायर उडयले. तो एका दोंगराचेर रावपाक गेलो ताणें पर्थून चित्र म्हणून काडलेंना.

## ३६. काळया नाकाची बुद्ध मूर्त

दिश्टाव्याच्या सोदांत आशिल्ले एके साध्वीन बुद्धाची एक मूर्त घडयली आनी तिचेर भांगराचो वर्ख चडयलो. आपूण वता थंय ती मूर्त व्हरताली.

एक पावट एका ल्हान मंदिरांत रावंक गेल्ले कडेन तिका जायत्यो बुद्धमुर्ती आपआपले घुमटेंत दवरिल्ल्यो दिश्टी पडल्यो. तिका आपलेच मुर्ती मुखार धूप जाळचो आसलो. धुपाचो परमळ आपलेच मुर्तीक मेळचो म्हणून तिणें धुपाटण्यार एक फुनेल दवरलें. ताका लागून मुर्तीचें नाक काळें जालें आनी ती विद्रूप दिसूंक लागली.

## ३७. रियोनेनचें खर तप

आमी चडशे वृत्तीन भोगी. जिविताच्या प्रवासांत आमी भौतीक सूख अ
येस हांचे फाटल्यान वतात. पुर्विल्ल्या काळांत भोगी मनशां परस त्य
मनीसच चड दिसताले. जिणेंत सर्त उणी आसली वा नासलीच म्हणल
जाता. पोरणे मुस्तींत ययाती सारके भोगी आडवाद म्हूण आसताले. प
आयच्या भोगवादी युगांत ययातीच चड दिश्टी पडतात. पुर्विल्लें राजकार
त्यागाचेर आदारिल्लें आसलें. तेन्ना राजकारणांत पडपाचो हेत म्हळयार त्य
करून लोककल्याण करप होच आसलो. आयज राजकारणांत पडप म्हळय
भोगवृत्तीक सारें उदक घालून पोसप आनी ययाती वरी भोगांच्या दय
मनमेकळें पेंवप. इतलेंच न्हय तर सात पिळग्यांची कमाय करून दवरप.

जपानांतय भारता वरी त्यागी आनी आधिभौतीक जिणेची व्हड परंप
आसा. जपान आज भौतीक नदरेन सुधारलां. पूण एके मुस्तींत तो शिंटो आ
बुद्धमतान प्रभावीत जाल्लो देश आसलो. रियोनेन हेच परंपरेंत वाडिल्ली बायल
गिरेस्तकायेंत वाडिल्ले देखणे रियोनेनची मन अस्वस्थ करपी काणी वाचतकी
आमी तिचे नैतिक शक्तीन दिपकावतात. सगल्या सुखांचेर खोंट मारू
आधिभौतीक जीण सारपाक केदीं व्हडलीं दुख्खां ती वेंगायता हें पळेवन आम
तिचे मुखार नमळायेन नमतात.

रियोनेन हे बुद्ध भिक्षुणीचो जल्म सतराशें सत्याण्णवांत जालो. व्हड जपान
झुझारी शिंगेनची ती नात आसली. ती देखणीच न्हय तर तिचें रूप मनभुलोवण
आनी ओडलायणें आसलें. तिका काव्याची बरी जाण आसली. देखून
पिरायेच्या सतराव्या वर्साच तिका जपानी सम्राज्ञीची सखी म्हण वेंचिल्ली
ल्हानपणांतच मानपान आनी किर्ती तिचे मुखार हात जोडून उबी राविल्लीं.

पूण कांय दिसांनी सम्राज्ञी अवचीत भायर पडली. रियोनेनच्या फुडाराची
सपनां सामकीं भंगलीं. जीण नाशिवंत आनी खिणयाळी हो दिश्टावो तिका
जालो. देखून झॅन शिकपाची तिका उमळशीक लागली. तिच्या घरच्यांनी मात

हें कानामनार घेतलें ना आनी दाटून तिचें लग्न थारायलें. तीन भुरगीं जातकच तिणें भिक्षुणी जावंक तांची हरकत नासतली हे अटीचेर ती लग्नाक तयार जाली. पिरायेचीं पंचवीस वर्सां सोंपचे पयलींच तिची हें अटींतल्यान सुटका जाली. भिक्षुणी जावपाच्या तिच्या खर निच्छेवा मुखार तिच्या घोवाचें आनी घरच्यांचे कांयच चल्लें ना. तिणें आपल्या सोबीत केसांचें मुंडण केलें आनी रियोनेन हे नांव घेतलें. रियोनेन म्हळयार स्पश्ट दिश्टावो जावप. दीक्षा घेतकीर ती यात्रेक गेली.

एडोक पावतकीच ती आचार्य तेतसुग्यू सरीं गेली. आपणाक शिश्यीण करून घेवची ताका तिणें विनंती केली. पूण तिच्या देखण्या रूपाक पळेवन एका खिणांत तिची ताणें विनंती भायर मारली.

मागीर ती आचार्य हाकुओ सरीं गेली. तिचें रूपच तिचे इत्से आड परतेंय आयलें. ताचो न्हयकार मेळटकीच ती सैरभैर जाली. वेळ होगडायनासतना तिणें थंयच आगटयांतल्या तापिल्ले सळयेन आपलें मुखामळ दागलें. एका खिणांत ती व्रिद्रूप जाली आनी तिची ओडलायणी सुंदराय सासणाची विटली. तिचो खर निच्छेव पळेवन हाकुओीनान तिका शिश्यीण म्हूण स्विकारली. हे घटणेची याद म्हणून तिणें एका हारशार एक कविता चित्रायली. ती अशी आसली:

*सम्राज्ञीचे सेवेंत*
*किमोनोच्या परमळाक*
*जाळ्ळो धूप*
*घराभायरीं जालीं हांव*
*मंदिरांत आसरो घेवंक*
*जाळ्ळें रूप*

प्राण सोडचे पयलीं तिणें बरयल्ली निमाणी कविता अशी आसा.

*सांसठ चक्रां शरदाचीं*
*देखलीं हांवें दोळयांनीं*

*चंद्रिमाच्या उजवाडाचीं*
*जायतीं गीतां गायलीं.*
*गावंक म्हाका लावं नाकात*
*वाव आतां पडटलो*
*देवदाराचो उलो फकत*
*कान दिवन आयकुचेलो.*

## ३८. आंबट मिसो

आचार्य बानकेन दायरो ह्या आपल्या मठांतल्या भिक्षूक रांदपाचें व
दिल्लें. आपल्या जाण्टया आचार्याची बरी जतनाय घेवची अशें ताका दिस
देखून सोयाबियांची वेगळी मिसो (आंबील) करून आचार्याक दिवची अ
ताणें थारायलें.

पान वाडटकच आपणांक हेरां परस वेगळी मिसो केल्या हें बानकेच
लक्षांत आयलें. "आज कोण रांदपी?" ताणें विचारलें.

दायरोन ताचे सरीं वचून आपूणच रांदपी म्हूण सांगलें. ताची जाण्टी पिर
आनी म्हाल स्थान लक्षांत घेवनच आपणें ताचे खातीर वेगळी मिसो केल
अशें कारण दिलें. "तुका हांव उपास करचो अशें दिसना मूं?" अशें म्हण
सट्ट करून तो उठलो आनी आपले कुडींत वचून ताणें दार बंद केलें.

दायरोन कुडी भायले वटेन बसून आचार्याची माफी मागली.पूण बानके
जाप दिली ना. सात दीस दायरो कुडी भायल्यान आनी बानके कुडींत बस
रावले.

मागीर रावं नज जावन बानकेच्या एका शिश्यान व्हडल्यान उलो मारु
म्हळें, "आचार्या, तूं सांगता तें खरें आसत पूण तुज्या शिश्यान जेवंक जा
मूं? ताच्यान सदांच अशें उपास काडूंक कशें जातलें?"

हें आयकून आचार्य बानकेन दार उगडलें. हांसत ताणें सांगलें, “ह्या आस्रमांत ल्हानांतलो ल्हान वावुरपी जें अन्न जेवता तेंच अन्न हांव घेतलों. तूं जेन्ना आचार्य जातलो तेन्ना हें मातूय विसरूं नाका.”

## ३९. तुजो उजवाड पालवतलो

तेंदाय तत्त्वगिन्यानाचो एक विद्यार्थी आचार्य गसानाच्या मंदिरांत उपदेश घेवंक आयलो. कांय वर्सां जातकच तो मंदीर सोडून वतनां आचार्य गसानान ताका शिटकावणी दिली. “सत्याचो तत्त्वीक नदरेन अभ्यास करतकच प्रवचनां खातीर खूब मालमसालो मेळटा. पूण ध्यानांत खंड पडल्यार मात सत्याचो उजवाड पालवतलो हें लक्षांत दवर.”

## ४०. दान दिवप्यानच उपकार मागचे

सयेस्तु एत्राकु मठाचो मुखेल आचार्य आसलो. ताका मठाच्या शाळेची इमारत वाडोवपाक दुडवांची चड गरज आसली. उमेजू ह्या गांवांतल्या गिरेस्त वेपाऱ्यान ताका पांचशें रियो (पवनां) दान करचें थारायलें. आचार्या सरीं वचून ताणें म्हळें, “तुजे इमारती खातीर ह्यो पांचशीं रियो घे.” अशें म्हणून ताणें रियो भरिल्ली पिशवी ताका दिली.

आचार्यान म्हणलें, “बरें आसा. हांव तुज्यो रियो घेतां.”

एदी व्हडली देणगी दिवनय आचार्याची थंड उर्बे विरयत तरा पळेवन उमेजूचें मन पडलें. एका मनशाक वर्साच्या खर्चाक तीन रियो लागतात आनी पांचशें रियो दिवनय आचार्यान आपले उपकार लेगीत मानले नात अशें ताका दिसलें.

“ते पिशवेंत पांचशीं रियो आसात,” उमेजून पर्थून म्हळें.

“तुवें म्हाका हें आदीं सांगलां न्हय?” आचार्यान म्हळें.

"हांव एक गिरेस्त मनीस आसलो तरी पाचशीं रियो म्हणचे जायते दु
उमेजून म्हळें.

"हांवें तुजे उपकार मानचे अशी तुजी म्हणणी आसा?" आचाय
विचारलें.

"दुबावूच ना. तुवें म्हजे उपकार मागूंकच जाय," उमेजून म्हळें.

"हांव कित्याक मागतलों. जाय जाल्यार दान दितल्यानूच मागचे."

## ४१. निमाणें मरणपत्र

इक्यू हो आशिकागो मुस्तींतलो एक नामनेचो झॅन आचार्य आसलो.
जपानी सम्राटाचो पूत आसलो. ताच्या ल्हानपणांतच ताचे आवयन राजवा
सोडून दीक्षा घेतिल्ली आनी भिक्षुणी जावन ती एका मंदिरांत रावंक गेल्ली. ति
वांगडा इक्यू मंदिरांत गेलो आनी ल्हानपणांतच विद्यार्थी जालो. भायर पड
पयलीं तिणें पुताक एक चीट बरयली ती अशी आसली:

इक्यूक,

ह्या संवसारांतलो म्हजो वावर आतां सोंपलो. पर्थून हांव अनंतांत चल्लीं.
हुशार विद्यार्थी जा आनी तुज्यांतल्या बुद्धत्त्वाचो बेगीन तुका दिश्टावो जावं
ही म्हजी इत्सा. हांव तुजे सरीं आसा काय ना, काय नरकांत आसां हें तुव
कळटलेंच.

जाण्टो जाले उपरांत बुद्ध आनी ताचो शिश्य बोधिधर्म हांचो तूं सेवक
कळटकच तूं शिक्षण सोडून दी आनी मनीस कुळये खातीर वावर कर. बुद्धा
एकुणपन्नास वर्सां लोकांक उपदेश केलो पूण ह्या काळांत गरजे भायर एक उत
लेगीत उलयलो ना. हें कित्याक तें तुवें जाणून घेवचें.

पूण समजा हें तुका कळ्ळें ना आनी तूं समजून घेवंक सोदशी जाल्या
व्यर्थ विचार करचो सोडून दी.

तुजी आव

जी जल्मूंक ना, जी मरूंक ना

मागीर बरयलां:

दुसऱ्यांक दिश्टावो जावचो हो बुद्धाचो शिकवणीचो हेत आसलो. ताणें वापरिल्ल्यो पद्धती तुवें वापरच्यो अशें तुका दिसल्यार तूं एक अज्ञानी किडो थारतालो. बुद्ध मताचेर अंयशीं हजार ग्रंथ बरयल्यात. ते सगळे वाचूनय जर स्वताक नियाळून तुका तुजो स्वधर्म कळ्ळो ना जाल्यार तुका हे चिटीचो अर्थच कळचो ना. हें म्हजें मर्णपत्र आनी निमाणो उपदेश.

तुजी आवय.

## ४२. सर्गाचे दरवंटे

नोबुशीगे नांवाच्या एका झुजाऱ्यान आचार्य हाकुअीनाक विचारलें, "नरक आनी सर्ग खरेच आसात?"

"तूं कोण?" हाकुअीनान म्हळें.

"हांव एक सामुराय," झुजाऱ्यान म्हळें.

"तूं आनी झुजारी?" हाकुअीनान अजापीत जावन म्हणलें, "तुका खंयचो राजा आपलो रक्षक नेमीत? तुजें मुखामळ पळेल्यार तूं भिकारीसो दिसता."

नोबुशीगेन तिडकीन आपले तरसादीक हात घालो. हे पळेवन आचार्यान म्हळें, "आं ऽऽ तुजे कडेन तरसाद आसा? पूण तिका धार नाशिल्ल्यान तुका म्हजी गोमटी लेगीत उडोवपाक येवची ना."

तो म्यानांतसून तरसाद भायर काडटा तें पळेवन आचार्यान थंडसाणीन म्हळें, "आतां नरकाचे दरवंटे उगडले."

सामुरायान आचार्याच्या मनाची थिरताय पळेवन आपली तरसाद म्यानांत घाली आनी आपलें कमर बागोवन ताका प्रणाम केलो.

"आतां सर्गाचे दरवंटे उकते जाले." आचार्यान म्हळें.

## ४३. माणुसकेचे झुजारी

एकदां जपानी पांयदळाच्या अधिकाऱ्यांचो एक पंगड लडायेच्यो कवा
करतना आचार्य गसानाच्या मंदिरांत वसतेक रावलो. वसतेक रावतल्य
सरबराय करची आचार्यांची चलणूक आसली. आचार्यान मुखेल रांदप्य
आपोवन म्हळें, "आमी जेवतात तेंच अन्न तांकां वाडात."

तें बाबत अन्न पळेवन तांकां जाळ मारले. ते वतात थंय लोक ता
माथ्यार घेवन नाचताले आनी तांचो बडवचार राखताले. ह्या मंदिरांत मात
सारकी सरबराय जाली ना देखून तातुंतल्या एकान आचार्या सरीं वचून
काडलो. ताणें म्हळें, "आमी कोण तें तुमी जाणात? आमी झुजा
देशाखातीर आमी प्राणय ओंपतात. आमकां भोवमानान तुमी कित्य
वागयनात?"

इल्लोय उचंबळ जायनासतना आचार्यान जाप दिली. "आमी कोण अ
तुका दिसता? आमी माणुसकेचे झुजारी. आमी सगल्या नाशिवंत जिव
वाटायतात."

## ४४. झेनकायचें प्रायच्छीत

आपले भोगी वृत्तीचेर आनी वायट वान्शेचेर जर मनशान योग्य वेळ
अंकूश दवरलोना जाल्यार ताचे जिणेचें तारूं भरकट्टा. जीण सारत
विवेकान वागल्यार ताचे जिणेक थिराय येता. जण एकल्यान आपल्या खा
अणभवांतल्यान शिकचें अशें म्हणटात. आमी दुसऱ्यांच्या अणभवांतल्य
शिकतातच पूण आपल्या अणभवांतल्यान आमी खंय धडो घेतात! आ
एकाद्रो असोय मनीस पळेतात जो एकाच अणभवांतल्यान क्रांतिकारी निण
घेता आनी आपल्या पापाचें प्रायच्छीत उक्तेपणान घेवपाचें नैतिक बळ
दाखयता. आनी ते खातीर आकांताचे कश्ट आनी हालउपाद्रे काडत

सामान्यतायेन एकाद्र्या मनशाचें पावल वांकडें पडटकच ताका कोणच उदार मनान भगशिना. ताणें केल्ल्या पातकाचेर बोट दवरून तो जिवो आसासर तें घश्टीत बसतात.

जपानी झॅन साहित्यांतली झेनकायची काणी हे नदरेन वाचपा सारकी आसा. एका पातकी मनशाक एका खिणांत आपल्या पातकाचो पच्छाताप जाता. ताची जीण सामकी बदलता. आपल्या बऱ्या कर्तुबांनी लोककल्याणा वांगडाच तो आपल्या दुस्मानाचीय जीण बदलायता. ही काणी आमचो मरणाचो भंय ना करता आनी आमच्यांतले नैतिक शक्तीची कीट कसले चमत्कार घडयता तें दाखयता.

लापीट झेनकाय एका सामुरायाचो पूत आसलो. तो आपलें नशीब काडूंक एडोक गेल्लो. थंय तो एका व्हड जपानी अधिकाऱ्याचो कारभारी जालो. कामा निमतान ताचे बायले कडेन झेनकायचो संबंद आयलो आनी तो तिच्या मोगांत घुस्पलो. हाका लागून एक दीस तिच्या घोवाचें आनी झेनकायचें झगडें पेटलें. घोवान झेनकायचेर तरसादीन वार केलो पूण ह्या झगडयांत तोच झेनकायच्या हातांतसून मेलो. मागीर बेगोबेग झेनकाय ताचे बायलेक घेवन थंयसून कडसरलो.

अन्नाक दुडू नाशिल्ल्यान तीं दोगांय चोरयो करपाक लागलीं. वायट चलणुकेची ती बायल खूब आशाघोशीय आसली. तिच्या सभावाक विटिल्ल्यान झेनकाय तिका सोडून पैसुल्ल्या बुझेन प्रांतांत गेलो आनी थंय भिक्षू जालो.

आपले वायट चलणुकेचें प्रायच्छीत म्हण फुडाराक बरीं कर्तुबां करचो निश्चेव ताणें केलो. एका उंच दोंगरामाथ्याचेर आशिल्ल्या कडया लागसून एक पांयवाट वताली. जायत्या प्रवाशांक थंय मरण आयिल्लें. ताणें तांचे हाल उणे करूंक दोंगरांतल्यान एक बोगदोच खणपाक आरंब केलो.

ह्या आकांताच्या वावरा खातीर ताणें आपली जीणच ओंपली. तो दिसाची भीक मागी आनी रातीचो बोगदयाचो वावर करी. तीस वर्सांनी २२८० फूट

लांबायेचो, २० फूट उंचायेचो, आनी ३० फूट रूंदायेचो बोगदो खणून ज

ताणें जीव घेतिल्ल्या अधिकाऱ्याचो पूत, खूब वर्सां ताच्याच म
आसलो. अखेर झेनकायचो पत्तो ताका लागलो. कळाव लायनासतना
झेनकाय सरीं आयलो. ताका आपल्या बापायच्या खुनाचो बदलो घेवची
आयिल्ली. झेनकायक ताणें आपलो बेत सांगलो.

पूण झेनकाय इल्लोय गणमणलोना. झेनकायन ताका म्हळें: "तु
बापायचें जिणेंत हांव कली जावन रिगलों. ताचो हांवें घात केला हें
जाणां. म्हज्या कर्माचें प्रायच्छीत म्हणून फाटलीं तीस वर्सां हांव एकल
वावुरतां. हो वावर पुराय जावपाक म्हाका दोन वर्सां तरी लागतलीं. ज्या ि
तो सोंपता, त्याच दिसा तू म्हजो जीव घे."

मागीर वावर सोंपचेली वाट तो पळेवपाक लागलो. ताचे दीस सरून
नासले. झेनकाय मात आपणाचेर भार आयल्ले वरी काम करी. पूण थंय बे
बसून अधिकाऱ्याच्या पुताक उबगण आयिल्ली. देखून तो झेनकायक पा
दिवपाक लागलो. वर्स भर ताचे वांगडा वावुरतकच झेनकायच्या निश्चेवा
खर तपाची आनी उजू चलणुकेची ताका तोखणाय दिसपाक लागली.

अखेर एक दीस बोगदयाचो वावर सोंपलो. प्रवाशांक ताचो खूब फाय
जालो. ताणीं झेनकायक अर्गां दिली.

मागीर झेनकाय अधिकाऱ्याच्या पुता सरीं गेलो आनी ताणें म्हळें, "म्ह
वावर सोपलों. आतां उडय म्हजी गोमटी."

"म्हज्या गुरूची गोमटी हांव कशी उडोवं?" ताणें आपल्या दोळयांत
दुकां पुशीत म्हणलें.

## ४५. आचार्य गुडो आनी सम्राट गोयोझे

सम्राट गोयोझे हो आचार्य गुडो सरीं शीकतालो. आचार्याक ताणें विचारलें, "झॅन मार्गांत आमचें मनच बुद्ध न्हय. हें खरें?" आचार्यान म्हणलें, "हांवें हय म्हळयार तुका समजल्याबगर समजलें अशें दिसतलें. हांवें ना म्हणल्यार खूब जणांक समजल्ली जी खरी गजाल आसा तिका हांवें विरोध केल्ले वरी जातलें."

दुसरें पावटीं सम्राटान आचार्याक विचारलें, "साक्षात्कारी पुरूश मरतकच खंय वता? म्हाका खबर ना." आचार्यान जाप दिली.

"कित्याक," सम्राटान विचारलें.

"हांव अजून मरूंक ना म्हणून." आचार्यान म्हणलें.

हें आयकून सम्राट गणमणलो आनी जे विशय समजूंक कठीण तांचेर प्रश्न विचारूंक फाटींफुडें सरूंक लागलो. ताका शिटूक करचे हेतान आचार्यान भूंय जोरान थापटायली. हें पळेवन सम्राटाक दिश्टावो जालो.

सम्राट झॅनमार्ग मानतालोच; ताका दिश्टावो जातकच तो आचार्याक आदले परसय चड मान दिवंक लागलो.

तो राजवाड्यांत आसतना शियाळयाच्या दिसांनी आपली तोपी आचार्याक वापरूंक दितालो.अंयशीं वर्सांचे पिरायेचेर प्रवचन दितना आचार्याक मदींच लकणी येताली.

आचार्याक विसव मेळचो म्हणून तो थंयसून कडसरतालो आनी दुसरे कुडींत वचून बसतालो.

## ४६. नियतीच्या हातांतलीं बावलीं?

एकदां नोबुनागा ह्या नामनेच्या झुजाऱ्यान धा पटीन चड आशिल्ल
दुस्मानाच्या सैन्याचेर घुरी घालचें थारायलें. ताका जैताची खात्री आसली प
ताच्या सैनिकांक मात दुबाव आसलो.

वाटेर वतना तो एका शिंटो मंदिरांत रावलो. आपल्या सैनिकांक आपोव
ताणें सांगलें, “हांव गर्भकुडींत वचून प्रार्थना करतां. भायर येतकीच एक ना
घेवन आमी कुरूबावलो करूंया. बावलो पडल्यार आमकां जैत मेळटलें. कु
पडल्यार आमी हारतले. नियतीच्या हातांतलीं आमी सगळीं बावलीं.”

नोबुनागा गर्भकुडींसून भायर सरतकीच सगल्यां मुखार ताणें पयसो घेव
कुरूबावलो केलो. बावलोच पडलो. सैनिकांक झगडपाक उमेद आयल
आनी ते जैतवंत जाले.

झूज सोंपतकच ताच्या सेवकान म्हळें, “नियतीचो डाव कोणाकूच बदलूं
येना.”

नोबुनागान ताका म्हऱ्यांत आपोवन नाणें दाखयलें आनी म्हणलें, “हां
दोन पयशे एकठांय दसोवन दोनूय वटांनी बावलोच दवरिल्लो!”

## ४७. जीव घेवप

आचार्य गसानान आपल्या विद्यार्थ्यांक उपदेश करून म्हळें:

“जे जीव घेवचे आड उलयतात आनी सगल्या जिवांचो प्राण वाटावंक
सोदतात ते उजू मार्गान चलतात. किडी आनी मोनजातींचोय प्राण आम
वाटावंक जाय. पूण ओगी बसपी आनी मुसकां मारून वेळ होगडायतात तांच
कितें? दुडूआडक्याची वाट लायतात तांचें कितें? असल्या मनशांचीं कर्तुब
कानामनार घेवप ना हें समा न्हय. तशेंच साक्षात्कार विरयत बुद्ध मताचो
उपदेश जो करता तांचें कितें? तो बुद्धमताचोच जीव घेना?”

## ४८. शेळो घाम

आचार्य कसानाक एका गांवगिऱ्या वाटारांतल्या सरदाराची निमाणी क्रिया करूंक आपयलो. हाचे आदीं तो गिरेस्तागेर केन्नाच वचूंक नासलो. तेन्ना अंतक्रिया सुरू जातकच तो काचाबूल जालो आनी ताका शेळो घाम सुटलो.

अंतक्रिया सोपोवन तो मंदिरांत येतकीच शिश्यांक आपोवन ताणें म्हणलें, 'मंदिरांतल्या सादया जीणे कडेन आनी बडवचारांच्या जीणे कडेन म्हाका समदृश्टीन पळेवंक येना देखून हांव आचार्य पदाक अदयाप लायक ना.'' अशें म्हणून ताणें आचार्यपद सोडलें आनी तो दुसऱ्या आचार्याचो शिश्य जालो. आठ वर्सांनीं ताचो हेत सफल जातकीच तो पर्थून आदल्या मंदिरांत येवन शिश्यांक शिकोवंक लागलो.

## ४९. भूताक आळाबंदा हाडलें

एका मनशाची बायल खूब पिडेखोर जाली. वैजाच्या उपायांक येस मेळत अशीं चिन्नां दिसना जालीं. घरच्यांनी तिची आशा सोडिल्ली. ती स्वार्थी आनी बट आशिल्ली. आपल्या घोवाचो जीव ती सदांच खाताली. ताका सुखाचें एक उतर लेगीत ती दिनासली. मरचे आदीं तिणें घोवाक म्हणलें, ''तुका सोडून वचचें अशें म्हाका दिसना. देखून हांव वतकीच तूं दुसरें लग्न करूं नाका; जाशीत जाल्यार तुका हांव भूत जावन पिडटलीं.'' कांय दिसांनी ती भायर पडली. पयले तीन म्हयने घोव आपल्या सोंपिल्ल्या बायलेचे इत्सेन चल्लो पूण दीस कोणा खातीर रावतात? कांय दिसांनी तो दुसरे बायलेच्या मोगांत पडलो आनी रोखडीच तांची मुदीय जाली.

मुदी जाता म्हण्टासर दादल्याक दर रातीक एक भूत दिसूंक लागलें. दिल्लें उतर राखलें ना म्हूण ताका बोल लावंक लागलें. ताच्या मनांत कितें चल्लां हें जुस्त तें वळखतालें. तो आपले मोगिके लागीं कितें उलयता तें ताका

सांगतालें. आनी ताणें तिका भेटयल्ल्या वस्तींची सारकी विसकटावणी करत
हें आयकून ताका भूताची तिडक मारची आनी आपली पयली बायल
उपरान्तय आपणांक सोडिना म्हूण तो बेजार जायी. कांय दिसांनी ह्या हुस्क
ताची न्हिदय गेली. ताका सुकतडो लागलो. चिंतेन ताचे दोळे खोल भीतर ग
ताचे पोले बसले. आनी तो सामको कासावीस जावंक लागलो. ताची ने
चाळवलीं आनी तो पिसंतरा वरी जालो. ताची दशा पळेवन घरच्यांनी अ
इश्टांनी शेजारच्या गांवांतल्या एका जाण्टया झॅन आचार्याची बुदमत त
घेवंक लायली. रोखडोच तो ताचे भेटेक तयार जालो.

ताची खबर आयकून आचार्यान म्हणलें, "तुजी सोंपिल्ली बायल तुका
जावन पिडटा. तुजे मोगीकेक तूं जें सांगता आनी जी भेटवस्त दिता तें ता
कळटा. खरेंच तें भूत शिटूक आसा. तुका ताजी तोखणाय दिसूंक फावो.
फुडले पावटीं तें तुका दिसतकच तूं ताचे कडेन वाणपण कर. ताजे पासून तु
कांयच लिपोवंक जायना. देखून ताणें तुज्या एका प्रश्नाची सारकी जाप दिल्
तुजी तुजे मोगी लागीं जाल्ली मुदी मोडटा अशें ताका सांग." "भूत दि
पडटकच कसलो प्रश्न ताका विचारूं?" ताणें विचारलें. आचार्यान ज
दिवन म्हणलें, "तूं न्हिदूंक वतना मूठ भर सोयाबियो घे आनी तुजे मुठ
कितल्यो सोयाबियो आसात तें भूताक सांगूक लाय. ताका सारकें सांग
आयलेंना जाल्यार हें भूत म्हणजे तुज्या मनाचे खेळ हें तुका कळटलें. आ
फुडाराक तें तुका केन्नाच पिडचेंना."

दुसरे रातीं भूत दिसतकच ताणें भूताची तुस्त करून म्हणलें, "तूं च
आसा. तुका सगळें कळटा हातूंत दुबावच ना. तूं म्हज्या एकाच प्रश्नाची ज
दिल्यार हांव म्हजी जाल्ली मुदी मोडटा."

भूतान म्हळें, "आयज झॅन आचार्या सरीं बुदमत घेवंक वचूंक नासलो?
ताणें म्हणलें, "हय बाये हांव गेल्लों. म्हजे मुठींत सोयाबियो आसात त
कितल्यो तें सांग पळेवया?"

ताच्या प्रश्नाची जाप दिवचे पयलींच भूत थंयसून पसार जालें.

## ५०. सम्राटाचीं भुरगीं

यामाओका जपानी सम्राटाचो गुरू आसलो. तरसादीच्या खेळांत तो फिशाल आसलो. झॅनचोय ताणें खोलायेन अभ्यास केल्लो. ताच्या घराचीं दारां गावांतल्या वाळेस आनी तवनास भुरग्यांक सदांच उकतीं आसलीं. तो दिसपट्टें एकच वस्त्र न्हेसतालो. तागेर येवपी भुरगे ताची मुस्तायकी नाच्च करताले.

ताची दशा पळेवन सम्राटान ताका नव्या भेसाक दुडू दिले पूण पर्थून जेन्नां तो ताच्या सम्राटा सरीं गेलो तेन्नां ताच्या आंगार पोरणींच वस्त्रां आसलीं.

"यामाओका तुजीं नवी मुस्तायकी खंय गेली?" सम्राटान विचारलें.

"सम्राटाच्या भुरग्यांक तीं हांवें वांटलीं." यामाओकान जाप दिली.

## ५१. तूं कितें करता? तूं कितें म्हणटा?

जाण्टो जातकीच झॅन आचार्य मुनानान आपलो वारस म्हूण सोजूक वेंचिल्लो. दीक्षान्त सुवाळ्या उपरान्त आपले कुडींत आपोवन ताणें ताका म्हणलें, "सोजू हांव आतां थकलां. म्हजी शिकवण फुडें व्हरपी तूं म्हजो एकलोच शिश्य हें हांव जाणां. हो ग्रंथ घे. एका फाटल्यान एक अश्या आचार्यांच्या सात पिळग्यां उपरान्त म्हाका तो मेळळा. हांवेंय म्हजे समजणीन जायत्या नव्या विचारांची भर तातूंत घाल्या. म्हजो वारस म्हणून नेमिल्ल्याची निशाणी म्हूण हो ग्रंथ तुका भेटयतां. सोजून म्हणलें, "हो ग्रंथ इतलो मोलादीक जाल्यार तो तुजेशींच दवर. हांव आजवेर सगली विद्या बरपा विरयत तुज्या मुखांतल्यानच शिकलां आनी पूर्ण समाधानी आसां."

"हें हांव जाणां. तरीय ह्या ग्रंथाची परंपरा व्हड आसा. सात पिळग्यां उपरान्त तो म्हाका फावो जाला. तूं म्हजो आठवो वारस. तुवें ह्या मंदिरांत जी विद्या घेतल्या ताची कुरू म्हणून हो ग्रंथ तुजेशीं जतनायेन दवर." अशें म्हणून

आचार्यान मुनानानाक तो ग्रंथ दिलो.

शीं पडिल्ल्यान ते दोगय उबेखातीर शेगडेच्या धगाक बशिल्ले. सोजूच
हातांत ग्रंथ पडना फुडें ताणें तो शेगडेंतल्या धगधगीत कोळशांचेर उडयल
ताका असल्या मोलादीक वस्तुंचो मातूय सोंस नासलो. आनी असल
लटक्या आचारांत तो मातूय विश्वास दवरिनासलो.

हें पळेवन मुनानाक शिट्ट जालें. तो केन्नाच इतलो खुबूंक नासल
सोजूचेर आड्डून ताणें म्हळें, "तुवें हें कितें केलें?"

सोजून आड्डून ताका परतें विचारलें, "तुवें कितें म्हणलें?"

## ५२. झॅनचो एकच सूर

आचार्य काकुआ सम्राटाचे भेटेक वचून आयले उपरान्त नाचूच जाल
ताचें कितें जालें आनी तो खंय गेलो हें कोणाकूच कळ्ळें ना. चीन देश
वचून झॅन मार्ग शिकपी तो पयलोच जपानी आचार्य आसलो. पूण ता
आपल्या बासरेंतसून काडिल्ल्या एका सूरा बगर तो चीन देशांत झ
शिकिल्ल्याची कांयच निशाणी ना. देखून जपानांतल्या झॅन मार्गाच्ल
इतिहासांत ताची कोण चड याद काडिना.

चीन देशाक भेट दितकच काकुआन बुद्धमत आपणायलें. थंय रावतन
ताणें चड भोंवडीय केली ना. ताका एकटुकें रावप खूब आवडटालें. सदां
पयसुल्या दोंगरी वाटारांत तो राव आनी चडसो वेळ ध्यानस्थ बस. लोकां
ताका उपदेस करूंक लायल्यार तो खूब थोडीं उतरां उलयी. आनी मागी
थंयसून कडसरतालो. देखून तो लोकांक चडसो दिश्टी पडनासलो.

जपानांत पर्थून येतकच ताची किर्ती जपानी सम्राटाच्या कानार पावली
आपणांक आनी आपले प्रजेक बोध जावंचो म्हूण ताणें एक दीस आचार्याक
आपले राजवाड्यांत प्रवचन दिवंक आपयलो.

आचार्य आयलो आनी मुकाटयान सम्राटा मुखार उबो रावलो. ताण

आपल्या झग्यांतल्यान एक बांसरी काडली आनी तातुंतल्यान फक्त एकुच सूर काडलो.

नमळायेन कमर बागोवन ताणें नमन केलें आनी थंयसून भायर सरून तो नाचूच जालो. तो परतो लोकांक दिसलोच ना.

## ५३. दुशण खालें

झॅन आचार्य फुगाय आनी ताच्या शिश्यांची जेवणाची तयारी करूंक एक दीस रांदप्याक बरोच कळाव लागलो. रांदपी ताकतीकेन पोरसांत गेल्लो आनी आपल्या कोयतुलेन भाजीपालो कचाकच कापून ताणें सूप केलो. रांदचे गडबडींत भाजयां वांगडाच एका सोरपाचोय कुडको सूपांत पडला हें ताच्या लक्षांत लेगीत आयलेंना.

शिश्यांनी हाचे आदीं इतलो रूचीक आनी सूरबूस सूप केन्नाच चाखूंक नासलो. पूण जेन्ना आचार्याक आपल्या वाटयेंत सोरपाचीच तकली मेळळी तेन्नां ताणें रांदप्याक ती दाखोवन विचारलें, ‘‘हें कितें?’’

‘‘सायबा, देव तुजें बरें करूं’’ अशें म्हणून रांदप्यान ती घेवन मट्ट करून गिळळी.

## ५४. संवसारांतली सगल्यांत मोलादीक वस्त.

एका विद्यार्थ्यान आचार्य सोझानाक एकदां विचारलें,
‘‘संवसारांतली सगल्यांत मोलादीक वस्त खंयची?’’
आचार्यान जाप दिवन म्हळें, ‘‘मेल्ल्या मांजराची तकली.’’
‘‘मेल्ल्या मांजराची तकली सगल्यात मोलादीक वस्तू कित्याक?’’
विद्यार्थ्यान विचारलें.
आचार्यान म्हळें, ‘‘कोणाकूच तिचें मोल करूंक येना देखून.’’

## ५५. मौनाचो प्रयोग

जपानांत झॅन मार्ग पावचे आदीं तेरनाय मार्गाचे विद्यार्थी ध्यानाचो अभ्य
करताले. तातुंतले चौग जीवाभावाचे इश्ट आसले. तांणी एकदां एक स
भर मौन पाळचें थारायलें.

पयल्या दिसा चौगूय ओगी आसले. तांचें मौन सुम्हुर्तार सुरू जाल्लें.
दुसऱ्या दिसा रातीं पेटयल्ले तेलाचे दिवे मंद जाल्ले पळेवन एकटयान सेवक
म्हळें, "दिव्यांत तेल घाल." हें आयकून अजापीत जावन दुसऱ्यान म्ह
"आमी एकय उतर काडूंक जायना." रोखडेंच तिसऱ्यान म्हळें, "तुमी दो
मूर्ख. तुमी कित्याक उलयले?"

चौथो रावं नज जावन आरडलो, "हांव एकटोच आजून मेरेन उलो
नासलों."

## ५६. बोंडेर सरदार

आचार्य दायगू आनी आचार्य गुडो हांकां एका गिरेस्त सरदारान आपले
आपयले. ताच्या दारांत पावतकच आचार्य गुडोन म्हळें, "तूं शा
आशिल्ल्यान तुका झॅन शिकची सभावीक उमळशीक आसा."

हें आयकून आचार्य दायगून म्हणलें, "तुज्या उलोवपांत कसलोच ताळ
ना. हो मनीस बोंडेर. तूं ताका चण्याच्या झाडार कित्याक चडयता? तो ए
सरदार जायत पूण झॅन विशीं तो काळोखांत आसा."

सरदारान आचार्य गुडोक मंदीर बांदून दिवचें बदला तें आचार्य दायगू
दिलें. आनी तो ताचो शिश्य जालो.

## ५७. धा साक्षात्कारी वारस

झॅनचे विद्यार्थी आचार्यान जीव घेतल्यार पासून ताचेच सरीं शिकतले असो सोपूत घेतात. ह्या विधी वेळार ते आपलें बोट कापून ह्या विधीचेर आपल्या रक्ताचो शिक्को मारतात. हालींसराक हो विधी फक्त एक उपचार जाला आनी देखून आचार्य एकिडोच्या हातांतसून मेल्ल्या ताच्या एका शिश्याक हुतात्म्यावरी लेखतात.

आचार्य एकिडो जमदग्नीचो अवतार आसलो. ताचे शिश्य ताका थर्त भियेताले. एक दीस ताचो एक शिश्य वरां दाखोवपी घंटा मारपाचे झुटयेर आसलो. पूण घंटा मारतना ताचें लक्ष एके देखणे चलयेचेर गेल्ल्यान ताणें मारिल्ल्यो वरांच्यो घांटी चुकल्यो. ह्याच वेळार एकिडो ताचे फाटल्यान उबो आसलो. एकिडोन रागान ताचे तकलेर आपलो दांडो घालो आनी त्या धपक्यान शिश्याचो जीव गेलो.

ही खबर आयकून शिश्याचो बापूय तडक आचार्या सरीं गेलो. आचार्याचो अन्याय दिसचे बदला बापायन ताची कडक शिस्त वाखाणली. एकिडोय आपलो शिश्य आपले सरीं वावुरता अशे तरेन वागतालो.

हे घडणुके उपरान्त ताणें धा साक्षात्कारी शिश्य तयार केले. ही गजाल खरेंच तुस्त करी सारकी.

## ५८. खरो बदल

रियोकानान आपली सगळी जीणच झॅनच्या अभ्यासाक ओंपिल्ली. ताचो पुतणयो ताच्या भाटबेसांची उस्तवारी करतालो. तो फोल्गी आनी फेस्तोजी आसलो. घरच्या जाणटयांचेंय तो कांयच कानामनार घेनासलो. रिओकानचो दुडू आडको एके गेयशेचेर मोडटालो.

ताचो पुतणयो बेंसांची वाट लायता हें पळेवन घरच्यांनी रियोकाना कडेन कागाळ केली आनी ताका हे गजालींत लक्ष घालूंक सांगलें.

रियोकान खूप दिसांची भोवंडी करून अखेर आपल्या घरा पावलो. तो
वर्सांनी मेळिल्ल्यान पुतणयाकय खोशी जाली. ताणें ताका रातचो रावप
आग्रो केलो.

रियोकानान रातभर ध्यानस्थ बसलो. सकाळीं वतना ताणें आप
पुतणयाक म्हळें, ''हांव जाण्टो जालां. म्हजे हात थरथरतात. म्हज्या तणा
मोच्याच्यो दोरयो बांदपाक म्हाका मदत करशीत?'' पुतण्यान दोरयो बांदल
''देव तुजे बरें करूं.'' ताणें म्हळें, ''हें पळे, मनीस दिसानदीस पिर
जाण्टो जाता आनी कायेन भागता. तूं तुजी बरी जतनाय घे.'' हें सांगून
भायर सरलो. ताणें गेयशेची वा घरच्यांचे कागाळेची सुलूसय त
लायलीना. पूण त्या खिणा सावन पुतण्यान आपले जिणेचें पान पर्थिलें.

## ५९. तिडक

एका झॅन शिकपी विद्यार्थ्यान आचार्य बानके सरीं वचून म्हळें, ''गुरु
हांव संतापी. आयिल्ली तिडक म्हाका कशीच आळाबंदा येना. हाचेर उप
सांग.''

बानकेन म्हळें, ''तुका एक विचित्र बादा जाल्या. तुका कितें जाता
पळेवया.''

आतांच तुका ती दाखोवंक येवची ना. विद्यार्थ्यान म्हळें, ''तूं म्हाका
केन्ना दाखयशीत?'' बानकेन विचारलें. ''ती अवचीत उप्रासता,'' विद्यार्थ्य
जाप दिली. ''अशें जाल्यार हो तुजो खरो सभाव न्हय. तो तसो आशि
जाल्यार तुका तो जाय तेन्ना दाखोवंक येवपाचो. तुज्या जल्मावेळार तो नास
आनी तुज्या आवय बापायनय तो तुका दिवंक ना. हें सारकें चींत आनी माग
पळे.''

## ६०. खरी उदरगत

आचार्य सेनगायक एक गिरेस्त मनीस मेळूंक गेलो. आपल्या कुटुंबाची भरभराट जावंची म्हणून एक रायस ताका बरोवंक सांगलो. ताच्या फुडल्या पिळग्यांकय हो रायस एक मोलादीक यादस्तीक म्हण दवरूंक येतलो अशें ताणें सांगलें.

आचार्यान एक व्हडलो कागद हाडूंक लायलो. ताणें ताचेर उतरां चित्रायलीं तीं अशीं: "बापूय मरतलो, पूत मरतलो, नातू मरतलो." हें वाचून गिरेस्ताक जाळ मारलो. "म्हज्या कुटुंबाचे धादोसकाये खातीर चार उतरां तुमकां हांवें बरोवंक लायिल्लीं. तुमी म्हजीं फकांडां कित्याक केलीं?" ताणें म्हणलें.

आचार्यान जाप दिली आनी म्हणलें, "तुजीं फकांडां करचेलो म्हजो मुळींच हेत ना. तुज्या आदीं तुजो पूत गेल्यार तू चड दुख्खी जातलो. तुजो नातू तुज्या पूता पयलीं गेल्यार तुमी दोगय दुख्खांत बुडटले. तुज्या कुटूंबाच्यो पिळग्यां फाटसून पिळग्यो हांवें सांगिल्ल्या क्रमान गेल्यो तरच तें सभावीक आनी खोसदिणें जातलें. तुज्या कुटुंबाची उदरगत हातूंतच आसा अशें म्हाका दिसता."

## ६१. उदकाचो थेंबो

आचार्य गिसानान आपल्या एका ल्हान पिरायेच्या शिश्याक कळसुली भर थंड उदक हून उदकाचे बालदेंत रकोवंक लावन तें धगमोडें करूंक लायलें. शिश्यान उदक हाडून बालदेंत रकयलें आनी उदक दुगदुगीत जातकीच उरिल्लें उदक भुयेंर उडयलें.

"आरे पिशा!" आचार्यान म्हळें, "तुवें उरिल्लें उदक रूखांक आनी झोंपांक कित्याक शिंपलें ना? ह्या मंदिरांत उदकाचो एक थेंबो पासून वाट लावपाचो तुका हक्क ना."

ह्या शिश्याक एका खिणांत झॅन मार्गाचो दिश्टावो जालो. मागीर त
आपलें नांव बदलून तेकीसुओ हें नांव घेतलें. तेकीसुओ म्हळयार उदक
थेंबो.

## ६२. धुपाड्डें

नागासाकी नगरांतली कामे ही जपानांतली व्हडा नामनेची कलाव
आसली. ती पितूळचें ओतकाम करताली. तिणें केल्ली धुपाड्डीं नदरेंत भरताल
ती व्हड कलाकृती अशें जाणकार लेखताले. देखून ती देवाचे वा चापान
कुडींत दवरून लोक ते कलाकृतीचो भोवमान करी.

कामेचो बापूय लेगीत एक व्हड कलाकार आसलो. ताणेंच आपली क
तिका शिकयल्ली. ती मनस्वी स्वभावाची बायल आसली. तिचे चलणूव
धरबंद नासलो. तिचो संबंध जायत्या दादल्यांकडे येतालो. ती रंगेल त
वेसनीय आसली. तिका विडयेचें आनी सोऱ्याचें वेसन आसलें. तिच्या हात
दुडू येतकीच कवी, कलाकार, गवय, मेस्त असल्यांक एकठांय करून
फेस्तां फुलयताली. असल्या मेळयांतसूनच आपणांक स्फुर्त मेळटा आ
धुपाड्डयाच्यो तरेकवार आकृतायो सुचतात अशें ती म्हणटाली.

पूण ती घाळ आशिल्ली. उतराक ती फाल्स आसली. सांगिल्ल्या वेळार त
धुपाड्डीं तयार करून दिनासली. पूण तिणें केल्लें धुपाड्डें मात व्हड कलाकृ
थारताली. जायत्या गिरेस्तांच्या घरांनी तें पळेवंक मेळटालें आनी त्य
घरांतल्या शीलवंत बायलांकय तें खूब मानवतालें.

नागासाकीच्या नगराध्यक्षान एकदां कामेक एक धुपाड्डें करून दिवची ग
घाली. स म्हयने जावनय तिणें आपल्या कामाक हात लावंक नासलो
नगराध्यक्षाक बढती मेळून तो भायल्या गावांक गेल्लो. थंयसून येतकच त
तिका कामाची ताकतीक करूंक लागलो.

अखेर तिका स्फुर्ती मेळटकच तिणें धुपाड्डें करपाक आरंब केलो. तया

जाल्लें धुपाड्टें तिणें मेजार दवरलें. आनी खूब वेळ ती ताका नियाळूंक लागली. नियाळटनां ती मदीं मदीं सोऱ्याचे घोंट घेताली. आनी सीगाराचे झुरकेय मारताली. अखेरेक तिणें एक तुतयो हाडूंक लायलो आनी धुपाड्ड्याचेर धपके मारून तिणें ताची चंदड केली. तें तिच्या मनासारकें उतरूंक नासलें.

## ६३. खरें विस्मीत

आचार्य बानके स्यूमन मंदिरांत प्रवचन करतना गिंशू पंथाचो एक पुरोयत तांचेशीं चर्चा करूंक आयलो. बुद्धाच्या नांवाचो जप केल्यारच मनशाक निर्वाण मेळटा अशें त्या पुरयताचें मत आसलें. बानकेच्या प्रवचनांक गर्दी जाता तें पळेवन ताका जाळ मारताले.

पुरोयत मंदिरांत आयलो तेन्नां थंय आचार्य बानके प्रवचन करतालो. पुरोयतान थंय येतकच खूब बोवाळ घालो देखून बानकेक आपलें प्रवचन थांबोवन कसलीं धुमशेणां चल्ल्यांत हाची चवकशी केली.

"आमच्या धर्म संस्थापकाक खूब चमत्कार करूंक येताले. बुद्ध पिशोल घेवन न्हंयचे आलतडीं राव आनी ताचो सेवक कागद घेवन पलतडीं रावताले. मागीर बुद्ध पिशालान हवेंतच अमिडाचे पवित्र नांव बरयतालो आनी ते नांव पलतडीं कागदाचेर उदेतालें. तुका असलो चमत्कार करूंक येता?" पुरोयतान म्हणलें.

बानकेन ताची फकांडां करून म्हणलें, "तुजो कोलोय असले चमत्कार करीत. पण असलीं विस्मितां म्हळयार झॅन न्हय. हांव भूक लागतकच जेवतां. तानसोर लागतकच पियेतां. होच हांव चमत्कार मानतां."

## ६४. तूं न्हिदल्यार बरो

मंदिराचो मुखेल आचार्य तेकीसुई भायर पडचे आदीं तीन दीसां पयल
आचार्य गसान ताका जाप दिवंक गेल्लो. आचार्य गसानाक ताणें आपलो वार
म्हणून वेंचिल्लो. कांय दिसां पयलीं तांचे मंदीर उज्याचे भकीक पडिल्लें आ
गसान ते परतून बांदच्या वावरांत गुल्ल आसलो. तेकीसुईन ताका विचारल
"मंदीर तयार जातकच तुवें कितें करचें थारायलां?"

गसानान म्हणलें, "तुमी बरे जातकच तुमी थंय प्रवचन दिवचें."

आचार्यान म्हणलें, "ते म्हणसर हांव वांचलो ना जाल्यार?"

"उक्तावणाच्या दबाज्याक आमी दुसऱ्या आचार्याक आपयतले,
गसानान जाप दिली.

"तुमकां कोणूच मेळळो ना जाल्यार?" आचार्यान विचारलें.

भीड मुरवत दवरनासतना गसानान म्हणलें, "असले फालतू प्रश्न
विचारूं नाका. तूं न्हिदल्यार बरें जातलें."

## ६५. अस्तित्वांत कांयच ना

यामाओका हो एक तरणाटो विद्यार्थी झॅनचो अभ्यास करूंक जायत
आचार्यां सरीं गेलो. अखेर तो गोकाकू गांवांतल्या श्वोकुओन ह्या आचार्यां स
पावलो.

आपली झॅन मार्गांतली तयारी दाखोवंचे हेतान ताणें म्हळें, "मन, भगवा
बुद्ध आनी नाशिवंत जीव हांकां तशें पळेवंक गेल्यार अस्तित्वच ना.
सृश्टीचो खरो गूण म्हळयार रितेंपण जातूंत साक्षात्कार ना, भ्रम ना, साधुत
ना, बाबतपण ना. कोणाकच उपदेश दिवंचो नासता आनी कोणा कडसून त
घेवंचोय नासता." ताचें उलोवप शांत चित्तान आयकतना आचार्य कोंडय
पासून केल्ल्या व्हडले चिलीमेचे झुरके घेतालो. ताणें अवचीत त

यामाओकाचे तकलेर आपटिली. यामाओकाक जाळ मारले. "कांयच अस्तित्वांत ना जाल्यार तुजो राग खंयच्च्यान उप्रासलो?" आचार्यान मुमुरखें हांसत ताका विचारलें.

## ६६. खरे इश्ट

चीन देशांत पुर्विल्ल्या काळांत दोन इश्ट आसले. एकलो फिशाल सारंगी वादक आनी दुसरो रसिक आयकुपी आसलो.

जेन्ना एकलो दोंगराचेर आदारिल्लो राग वाजयतालो वा गाणें म्हणटालो तेन्ना ताचो इश्ट म्हणटालो, "म्हाका दोंगरच दिश्टी पडटा." जेन्ना इश्ट उदकाचेर आदारिल्लो राग वाजयतालो, ताचो इश्ट म्हणटालो, "व्हाळाचो खळखळच म्हाका आयकूंक येता."

ताचो रसिक मित्र अकस्मात भायर पडलो. सारंगी वादकाक आकांताचो धक्को बसलो आनी ताणें आपल्या सारंगीच्यो तारोच कातरल्यो. पर्थून केन्नाच ताणें सारंगीक हात लायलो ना. तेन्ना सावन सारंगीच्यो कातरिल्ल्यो तारो दाट इश्टागतीचें प्रतीक म्हूण चीनी लोक मानतात.

## ६७. साक्षात बुद्ध आनी ठवय

झॅन आचार्य आपल्या शिश्यांक खाजगी उपदेश एकांतांत दितात. तेन्ना हेरांनीं थंय रावचें नासता. केनीन मंदिराचो आचार्य मोकुरायाक वेपारी आनी पत्रकार हांचे इतलीच आपल्या शिश्यांय कडेन उलोवपाक खोस दिसताली. ताचे भेटेक केन्नाय एक हेंगाडी ठवय येतालो. तो आचार्याक आचरट प्रश्न विचारी आनी मागीर तो चा घेवन घरा वतालो.

एकदां तो ठवय आचार्या सरीं आसतना एक शिश्य खाजगी उपदेश घेवंक आयलो. देखून ठवयाक ताणें दुसरें कुडींत वचूंक सांगलें.

ठवयान म्हणलें, "पाशाणी बुद्धाच्यो मूर्ती लेगीत तांच्या दर्शनाक येवपी

एकटयाय भक्ताक वचूंक सांगिनात. तूं तर साक्षात बुद्ध. तूं म्हाका भ
वचूंक कित्याक सांगता?" आचार्य शिश्याक घेवन आपुणूच भायर गेलो.

## ६८. तीन तरांचे शिश्य

झॅन आचार्य गेतान ताकुगावाचे मुस्तींत जावन गेलो. ताणें म्हणिल्लें आ
"कुल्लीं तीन तरांचे शिश्य आसतात. जे दुसऱ्यांक झॅनचो उपदेश करतात,
जतनाय घेतात आनी जे तांदळांसाक आनी कपडे लावंचे खुंटये
आसतात."

आचार्य गसानान होच विचार दुसरे भशेन सांगला. गसान आच
तेकुसुओ सरीं शिकतालो. तेकुसुओक सगले शिश्य थर्त भियेताले. केन्ना के
तांकां लडोय घाली देखून खूब शिश्य ताका सोडून वताले. गसान मात ताचे
अखेर मेरेन रावलो. गसानान म्हणलें, "बाबत शिश्य आचार्याच्या व्हडपणा
लाव घेतात. बरो शिश्य दयावंत आचार्याक तोखेता आनी उत्तम शि
आचार्याची देख घेवन चलणूकेन घटमूट जाता."

## ६९. चीनी कविता कशी बरोवची

एकदां एका नांवादीक जपानी कवीक चीनी कविता कशी बरयतात हें को
विचारलें. ताणें म्हणलें, "खुबदां चिनी कविता चार वळींची आसता. पय
वळ विशयाची सुरवात करता. दुसरी वळ ह्याच विशयाची विसकावणी करत
आनी चवथी वळ पयल्या तिनय वळींचे विशय एकठांय गुंथता."

ताणें मागीर एक जपानी पद गायलें. त्या पदान चिनी कविता कशी
देखीक दाखयल्लें.

*एका वेपाऱ्याच्यो दोगी धुवो त्यो कियोटोंत रावपी*
*वीस वर्सांचे पिरायेची धूव व्हडली, अठरा वर्सांची धाकली*
*घडये मारीत आपले तारसादीन कोणूय झुजारी*
*पूण ह्यो दोगी घेती जीव आपल्या दोळ्यांनी.*

## ७०. झॅन संवाद

जपानांतले झॅन आचार्य आपल्या ल्हान पिरायेच्या शिश्यांक विचार उक्तावपाचें शिक्षण दितात. एकमेकांच्या शेजारा आशिल्ल्या दोन झॅन मंदिरांनीं दोन लापीट शिश्य शिकताले. दर दिसा सकाळच्या पारार बाजारांत वतना ते एकमेकांक मेळटाले.

"तूं खंय वता?" एकल्यान विचारलें.

"म्हजे पांय व्हरतात थंय." दुसऱ्यान जाप दिली. ही जाप आयकून पयलो शिश्य गोंदळ्ळो. आपल्या गुरू सरीं वचून ताणें घडिल्ली गजाल सांगली.

गुरून म्हणलें, "तो भुरगो फाल्यां मेळटकच होच प्रस्न ताका विचार. मागीर ताका विचार तुका पांयच नासले जाल्यार तूं खंय वतलो? तो खात्रीन बुद्द शिकतलो."

दुसऱ्या दिसा ते दोगय पर्थून मेळ्ळे. पयल्या भुरग्यान विचारलें, "तूं खंय वता?"

दुसऱ्यान जाप दिली, "वाव जे वटेन सुटला ते वटेन."

पर्थून पयलो भुरगो गोंदळ्ळो. गुरू सरीं वतकच गुरून म्हणलें, "वावच जर नासलो जाल्यार तूं खंय वतलो? अशें फाल्यां ताका विचार."

तिसरे खेपेक ते दोगय पर्थून मेळ्ळे. "तूं खंय वता?" पयल्या भुरग्यान विचारलें.

"हांव भाजी हाडूंक बाजारांत वतां," दुसऱ्यान जाप दिली.

## ७१. कश्ट ना, अन्न ना

चीन देशांतलो आचार्य ह्याकुज्यो अंयशीं वर्सांचे पिरायेचेर लेगीत आपल्य शिश्यां वांगडा काम करी. कसल्याच वावराक तो फाटीं सर नासलो. बागेच उस्तवारी करप आनी रूखाच्यो वाडिल्ल्यो खांदयो बेणावप असलींच काम तो करी.

आपल्या जिवाक तो खूप कश्टायता हें पळेवन ताच्या शिश्यांक खूप वाय दिसतालें. पूण सांगल्यार तो आयकुचो ना देखून ताचीं आवतांच ताण लिपयलीं.

दुसऱ्या दिसा आचार्यांक हें कळटकच ताणें त्या दिसा अन्नाचो गोटो खालो ना. ताचीं आवतां ताका मेळ्ळीं नांत म्हूण ताणें आनीक दोन दीस उपास केलो.

भुरग्यांचेर कलकल आयलो. “आमी ताची आवतां लिपयल्यांत देखू आचार्य आमचेर रागार जाला जातलो. तीं जाग्यार व्हरून दवरल्यार बरीं.” ताच्या शिश्यांनी म्हणळें.

आवतां हातांत पडटकच आचार्य रोखडोच वावराक लागलो आनी त्य दिसा तो समाधानान जेवलोय बी. सांजेच्या प्रवचनांत ताणें म्हळें, “कश्ट ना अन्न ना.”

## ७२. मर्णाचो वेळ पाविल्लो

आचार्य इक्क्यू लहानपणा सावन खूब लापीट आसलो. ताच्या गुरू लागं एक खूब पोरणें आनी मोलादीक कॉप आसलें. एक दीस इक्क्यून तें फोडले आनी मागीर तो सामको काचाबूल जालो. म्हणटासर गुरूचीं पावलां ताच्य कानार पडलीं आनी फुटिल्ल्या कोपाचे कुडके ताणें आपल्या फाटसू लिपयले.

गुरू म्हऱ्यांत येतकच ताणें विचारलें, “मनशाक मर्ण कित्याक येता?”

“तें सामकें सभावीक. मर्ण कोणाक चुकलां? वेळ पावतकीच मनीस सोंपतलोच.”

इक्क्यून ताका फुटिल्ल्या कोपाचे कुडके दाखोवन म्हळें, “तुज्या कॉपाचो वेळ पाविल्लो.”

## ७३. निमाणें थापट

तानजेन ल्हानपणा सावन आचार्य सेनगाय सरीं शिकतालो. वीस वर्सांचो जातकच हेर आचार्यां सरीं वचून आपणें आजवेर शिकिल्लें शास्त्र पारखूंचें अशें ताणें येवजिलें. ही गजाल आचार्या कडेन काडिल्ले खेपे आचार्य ताचे तकलेचेर एक थापट मारी.

अखेर ताणें आपल्या व्हडल्या भावाक आचार्याचें मन बदलावपाक फुडें काडलो. आचार्या सरीं वचून ताणें परवानगी हाडली. घरा येवन ताणें तानजेनाक म्हणलें, “तुजो वचपाचो बेत नक्की कर. आतां तुका बेगोबेग यात्रेक वचूंक हरकत ना.”

निरोप घेवंक तानजेन आचार्या सरीं गेलो आनी परवानगी दिली म्हणून आचार्याचे उपकार आठयले. आचार्यान ताचे तकलेर पर्थून थापट मारलें.

निर्शेवन तानजेनान घडिल्ली गजाल भावाक सांगली. भावान म्हणलें, “कितें जालें? परवानगी दिवनय ताणें आपलो बेत कित्याक बदललो? हें समा न्हय. आचार्याक विचारतां.”

भाव आचार्याक मेळटकच ताणें म्हणलें, ताका दिल्ली परवानगी हांवें खंय फाटीं घेतल्या? फकत निमाणें पावटीं ताचे तकलेर थापट मारचें आसलें तें मारून घेतलें. हाचे फुडें तें म्हाका मारूंक मेळचें ना. तो पर्थून हांगा येतलो तेन्ना ताका दिश्टावो जाल्लो आसतलो. मागीर तो व्हड मनीस जातलो.

## ७४. लाटणेचो झॅन

आचार्य हाकुअीन आपल्या शिश्यां कडेन एके जाण्टेलेचे झॅन विशींच
जाणविकायेची सदांच तोखणाय करी. ती म्हातारी एक च्यायेचें दुक
चलयताली. शिश्यांक आचार्याची ही वाखाणणी खरीच दिसनासली. देख
संद मेळता तेन्ना तिचें गिन्यान पारखुपाक ते तिच्या दुकानार वताले.

म्हातारी भुर्ग्यांक पळेतकच तांचो हेत वळखताली. च्या पियेंव
आयिल्ल्याची ती मायेन उठबस करी. पूण आपली परिक्षा घेवंक आयिल्ल्यां
ती भितरल्या कुडींत आपोवन पडदया फाटल्यान व्हरताली. भितर सरिल्ल
खिणांक ती तांकां हातांतल्या लाटण्यान लडो घाली. धांतले पांच पावटीं तां
तो चुकोवंक ये नासलो.

## ७५. काणयो सांगप्याचो झॅन

एनको एक फामाद काणयो सांगपी आसलो. तो मोगाच्यो काणयो सांगत
आयकुप्यांची काळजां उचंबळ जातालीं. तो झुजाच्यो काणयो सांगत
आयकुप्यांक आपूण झुजामळाचेरच आशिल्ले वरी दिसतालें.

एक दीस एनको यामाओका सरीं गेल्लो. यामाओका सामको संवसारी मनी
आसलो. पूण झॅन मार्गाचे साधनेंत तो उंचेल्या पांवडयाचेर पाविल्लो.

ताणें एनकोक म्हणलें, "काणयो सांगपांत तूं खांपो. ह्या देशांत तुजो हा
धरपी कोणूच ना अशें हांवें आयकलां. तूं काणयो सांगतना आयकुप्यांच्य
हांसून मुड्डयो पडटात आनी जाय तेन्नां तूं तांच्या दोळयांतसून दुकांच्यो झर
व्हांवयता. म्हजे खूब आवडीची 'दाळमी भुरगो' ही काणी म्हाका आयकनशी
दिसल्या. म्हजी आवय हांव ल्हान आसतना म्हाका ती काणी सांगताली आनी
ती सांगतां सांगतां हांव न्हीदतालों. म्हजी आवय सांगताली तशी तूं म्हाका ती
काणी सांगशीत?"

हें आयकून एनकोक ती काणी सांगचो धीर जालोना. ती काणी शिकपाक ताणें वेळ मागलो. कांय म्हयन्यांनीं तो यामाओका सरीं गेलो. ताणें म्हणलें, 'दाळमी भुरग्याची' काणी सांगपाची संद म्हाका दी. तें आयकून यामाओकान म्हणचें, ''आतां ना, आनी केन्नाय तरी.'' हें आयकून एनकोचे मन पडटालें. त्या काणयेची पर्थून एसाय मारली आनी तो यामाओका सरीं गेलो. अशें खूब पावटीं जालें. यामाओकान ताची म्हण्णी कानामनार घेतलीना. एनको काणी सांगूक सुरूवात करी. कांय वेळ आयकतकच ताणें म्हणचें ''राव, काणी फुडल्या खेपेक सांग. म्हजे आवय भशेन तुका ती जमपाची ना.'' अखेरेक पांच वर्सां उपरान्त एनकोचो यत्न सफळ जालो. हे तरेन यामाओकान एनकोक झॅन मार्ग शिकयलो.

## ७६. मध्यान रातीची भोंवडी

आचार्य सेनागाय सरीं जायते शिश्य ध्यान मार्गाचो अभ्यास करताले. तांतलो एकलो शिश्य तवनास आनी पारपोळ आसलो. तो मध्यान रातीं उठ्ठालो आनी मंदिराची वणत हुपून गावांत मौज करूंक वतालो.

एकदां आचार्यान न्हिदपाच्या सालांत वचून पळेल्यार हो वाळेस शिश्य थंयसून पसार जाला. भायर वचून पळेल्यार वण्टीक तेंकून दवरिल्ली एक उंच तामरेत ताणें पळेली. आचार्यान तामरेत थंयसून हालयली आनी ते सुवातेर तो उबो रावलो.

तो अत्रवीद शिश्य पर्थून येतकच तामरेतीचे सुवातेर उबो आशिल्ल्या आचार्याच्या तकलेर पांय दवरून ताणें सकयल उडकी मारली. आपणें कितें आडांगीपण केलां हें लक्षांत येतकीच ताका शेळो घाम फुटलो.

आचार्यान म्हणलें, ''फांत्या पारार शीं खूब पडटा. तुका थंडी जावंची ना हाची जतनाय घे.'' ते उपरान्त तो तवनास शिश्य केन्नाच भायर सरलो ना.

## ७७. मर्णांक तेंकिल्ल्या मनशाक एक चीट

आचार्य बासून मर्णांक तेंकिल्ल्या आपल्या एका शिश्याक एक ची
बरयली ती अशी आसली:

"तुज्या मनाचें तत्त्व केन्नाच जल्मना तेन्ना तें केन्नाच मरचेंना. ताचो ना
जावपाक तें आसना. ताचो नाश जावपाक तें अस्तित्वांत ना. तें शून्यत
आशिल्लें रितेंपण न्हय. ताका रंगय ना आनी रूपय ना. ताका खोस वा दुख्ख
भोगना.

तूं खूब पिडेंत आसा. तू झॅनचो बरो शिश्य देखून तूं ही पीडा समा नदरे
सोंसतालो हें हांव जाणा. हें दुख्ख कोण भोगता तेंय तुका सारकें खबर नासत
पूण तुका एक प्रश्न विचारून पळें: ह्या मनाचें तत्त्व कितें? हेंच सारकें चिंतपा
तुका आनी कसलीच गरज ना. कित्याचीय आशा धरूं नाका. शुद्ध वावां
विरपी बर्फाच्या पातळ आनी विरविरीत कीसा वरी अंतपार नाशिल्लो तुजो अं
आसा."

## ७८. अंतीम तत्त्वांची शिकवण

पोरणे मुस्तींत जपानांत मानीचेर कागद चिकटायल्ल्या लापयावांत मेणवात
पेटयताले. एक दीस एक कुड्डो आपल्या इश्टाचे भेटेक गेल्लो. तो भायर सरत
म्हणसर रात जाली. ताच्या इश्टान उजवाडा खातीर ताका एक लापयांव दिलो
"म्हाका लापयावांची गरज ना. काळोख आनी उजवाड हीं दोनय म्हाका
सारकींच" कुड्डयान म्हणलें.

"तुका वाट सोदपाक लापयांवाची गरज ना हें हांव जाणा. पूण तुजे कडेन
लापयांव नासल्यार तुजेर कोणय आदळटलो. देखून तू हो लापयांव व्हर."
इश्टान म्हणलें.

कुड्डयान लापयांव हातांत धरून घराची वाट धरली आनी थोडी वाट

चलतकच कोणतरी येवन ताचेर आदळ्ळो. "आरे तूं खंय वता? तुका लापयांव दिश्टी पडना." कुड्डयान म्हणलें.

"आरे भावा, लापयावांतली मेणवात पालवल्या हें तुका दिश्टी पडना." दुसऱ्यान विचारलें.

## ७९. अनासक्ती

एहे मंदिराचो मुखेल आचार्य कितानो गेम्पो म्हातारपणांत सोंपलो. मर म्हणसर ताणें कित्याचेरच जीव दवरलो ना. वा खंयचेय गजालींत तो घुस्पून रावलो ना. वीस वर्सांचेर तो भोंवडी करपी भिक्षू जालो. एक दीस भोंवडेर आसतना तंबाकू ओडपी एक सांगाती ताका मेळ्ळो. दोंगरी वाटेन वतना ते दोगूय एका रूखा पोंदा विसव घेवंक रावले. सांगात्यान ताका आपली चिलीम ओडूंक दिली. त्या वेळार ताका भूक लागली आनी चिलीमेचे दोन-तीन झुरके मारतकच ताच्या जिवाक हुशारी आयली. ताणें म्हणलें, "वा! चिलीम ओडटकच जिवाक उमेद जाता न्हय?" देखून ताणें कितानोक एक चिलीम आनी तंबाकूचीं पानां दिली. ते दोगूय आपापले वाटेन गेले. थोडी वाट चलतकच किटानोन मनांत म्हणलें, "चिलीमेची संवय जाल्यार म्हज्या ध्यानाक बादा येवची ना? संवय जावचे पयलींच हांवें ती सोडिल्ली बरी." अशें म्हणून ताणें चिलीम आनी तंबाकूचीं पानां भायर शेंवटिलीं.

तेवीस वर्सांचो आसतना तो आय-किंग हें विश्वजिणेंचें गुपीत शास्त्र शिकतालो. शियाळ्याक लागून ताका गरम लुगटांची गरज आसली. शंबर मैल पयस आशिल्ल्या आपल्या गुरूक ताणें चीठ बरोवन आपली गरज ताका कळयली. आनी चीठ एका भोंवडेंकारा वांगडा आपल्या गुरूसरीं धाडली. शियाळो सोंपूंक पावलो तरी चिठीची जाप वा लुगटां ताका पावलींनात. देखून किटानोन आय-किंगच्या साधनेक लागून मेळिल्ल्या सिद्धीचो उपेग करून आपली चीठ गुरूक मेळळ्या काय ना हें दूरदृष्टीन तो पळेवंक लागलो.

चीठ गुरूक मेळूंक ना हें ताका सिद्धी वापरून कळ्ळें. उपरान्त गुरू
चीठ येतकच ताणें गरम लुगटांचो उल्लेखय करूंक नासलो. आपणांक सि
मेळळया हें ताका कळ्ळें. पूण ताणें मनांत म्हणलें, "आय-किंगची साध
असल्यो फालतू गजाली सोदपाक वापरल्यार म्हजे ध्यानाकडे दुर्लक्ष जातलें.
देखून आय-किंगचो अभ्यास ताणें सोडलो आनी मेळिल्ल्यो सिद्धीय ता
केन्नाच वापरल्यो नांत.

वयाच्या अठ्ठावीसाव्या वर्सा ताणें चीनी कालीग्राफीचो आनी काव्याच
अभ्यास सुरू केलो. हे कलेंत ताची फिशालकाय पळेवन ताचो गुरूय ताच
तुस्त करूंक लागलो. आपली वाखाणणी आयकून कितानोन म्हणलें, "हां
हें आतां सोडूंक जाय. हांव कवी जायन पूण झॅन आचार्य मात केन्नाच जावं
पावचो ना. अशें म्हणून ताणें हे मुखार एकय कविता बरयली ना."

चिनी कविता चित्र लिपींत बरयतात. ते खातीर हस्ताक्षर शास्त्र वापरतात

## ८०. तोसुईची विनाग्र

तोसुई एक व्हड आचार्य आसलो. मंदिरांतल्या विधींनी भरिल्ले बंदिस्
जिणेक तो विटून भिकाऱ्यां वांगडा पुला पोंदा रावंक लागलो. जाण्टेपणां
ताणें भीक मागची न्हय देखून एका इश्टान ताका तांदुळांची विनाग्र करूं
शिकयली. आनी मर म्हणसर ताणें हो वावर केलो.

एक दीस एका वांगडच्या भिकाऱ्यान ताका बुद्धाचें ल्हानशें पांयनेल
दिलें. ताणें तें आपले खोपींत लायलें आनी ताचे मुखार उतरां बरयलीं त
अशीं:

"भौ.अमिदा बुद्ध, म्हजी कूड सामकी अथीर. थोडया दिसांचोच तूं म्हजो
हांगाचो सांगाती. चार दिसांचो पावणो म्हूण हांव तुका हांगा रावंक दितां. पूण
स्वर्गांत पुर्नजन्म घेवपाक हांव तुजो केन्नाच पालव मागचोना."

## ८१. शांत मंदीर

तोफुको मंदिराचो मुखेल आचार्य शोयची एकाक्ष आसलो. आनी साक्षात्कार जाल्ल्याचो उजवाड ताचे मुखामळार फांकिल्लो.

मंदीर भर शांतताय आसली. कसलोच आवाज नासलो. सगळें शांत आसलें. सूत्रपठण लेगीत ताणें बंद केल्लें. ताचे शिश्य ध्याना खेरीज आनीक कांयच करिनासले.

एक दीस आचार्य शोयची सोंपलो आनी शेजारचे जाण्टेलेक घंटा-नाद आयकूंक आयलो. आनी रोखडेंच सूत्र-पठण सुरू जालें. आचार्य शोयची सोंपलो हें तिका कळ्ळें.

■ ■ ■



श्री. सुरेश गुंडू आमोणकार

जल्म : २२ मार्च, १९३५; बोरी, फोंडा हांगासर

शिक्षण : गोंय, मुंबय आनी पुणे; एम्.ए.बी.एड् मेरेन

शिक्षणीक वावर : शिक्षक, गोअन हायस्कूल, मोंबासा, केनिया (१९५६-१९६०); मुख्याध्यापक, न्यू गोवा हायस्कूल-म्हापसा. (१९६०-१०९६) पूण मज १९८०-१९८८ ह्या काळांत गोंय माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक शिक्षण मंडळाचे अध्यक्ष, आनी १९८९-१९९२ गोंय साक्षरता मिशन आनी गोंय प्रौढ शिक्षण संचलनालयाचे संचालक.

समाजीक वावर : ज्युनिअर रॅड क्रॉस, भारत बालवीर संघटना, बालभवन, म्हापसा नगरपालिका ह्या संस्थानी सेवा कार्य.
१९६५ सावन न्यू गोवा एज्युकेशनल ट्रस्टचे कार्यकारी ट्रस्टी.

निवृत्ती उपरान्त : आंतर-धर्मीक सुसंवाद घडोवन हाडचे खातीर धर्मग्रंथांचो कोंकणीत अणकाराचो वावर. *धम्मपद* (१९९७), *तिरूक्कुरळ* २००४), ९०३३ होंवयांची *रोसाळ कोंकणी ज्ञानेश्वरी* (२००५), *जपुजीसाहिब* (२००८), *जुआंवाप्रमाणें जेजू ख्रिस्ताचें शुभवर्तमान* (२००९) हे ग्रं प्रसिद्ध जाल्यात. ११ हजार होंवयांच्या *ख्रिस्तपुराण* चो अणकार आन *गोंयचें संवसारिकीकरण* हे ग्रंथ प्रसिद्धीच्या मार्गाचेर आसात.

पुरस्कार :

- गोंय सरकारचो आदर्श शिक्षक पुरस्कार (१९७८)
- *धम्मपदा* खातीर केंद्रिय साहित्य अकादमी, नवी दिल्ली हे संस्थेचो भाषांतर पुरस्कार (१९९
- स. श्याम काकोडकार यादस्तीक अणकार पुरस्कार (२००५)
- डॉ. टी.एम्.ए. पै फावन्डेशनचो *ज्ञानेश्वरी* खातीर साहित्य पुरस्कार (२००८)
- प्रो. काशिनाथ महाले अस्मिताय पुरस्कार (२००९)
- *गोवा टु डे* मॅन ऑफ द यिअर (२००९)
- विवा गोवा - नवहिंद टाईम्स शिक्षण पुरस्कार (२०११)
- दै. तरूण भारत आनी दै. लोकमत जीवन गौरव पुरस्कार (२०१२)
- बिम्ब ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळकार साहित्य पुरस्कार (२०१२)
- पद्मश्री पुरस्कार राष्ट्रपती श्रीमती प्रतिभा पाटील यांचे हस्तुकीं फावो जाला. (२००९

# झॅनचो दिश्टावो

भगवान बुद्ध आनी गोंय हांचे नाते पुरातन काळा सावन आसा. मदीं हें नातें तुटलें तरी तें परत वेगवेगळ्या कारणान परत जुळून आयलें. विसाव्या शतमानांत आचार्य धर्मानंद कोसंबी हांणी हें नातें परत जोडलें. आनीक तीन नांवां ह्या संदर्भांत म्हत्वाचीं थारतात. रवीन्द्र केळेकारांनी बुद्धाचेर अभ्यास करून 'तथागत' बरयलें आनी सुरेश आमोणकारान भगवान बुद्धाचें 'धम्मपद' कोंकणीत हाडलें. तिसरो वासुदेव गायतोंडे. झेन तत्वगिन्यान ताणी रंगांनी आपल्या कॅन्वासार रंगयलें.

झेन कथा ह्यो एके नदरेन विचार केल्यार दृश्टांत कथा. अध्यात्माचे वाटेरूच न्हय तर आमचे दिसपट्टे जिणेंत आमकां सगळे तरेचीं आडमेळीं हाडटात ते आमचे कुडींत वसतेक आयिल्ले विकार. ते मागीर राग, लोभ बी आसूं. हे विकार आमचें हिसपाभायर लुकसान करतात. ह्या सगल्या विकाररूपी दुस्मानांचेर जैत मेळोवपाक मनीस धडपडत आसता. आयच्या वखवखाच्या चिखलांत मायणाक लागिल्ल्या मनश्याक दान दिवप्यानूच उपकार मानचे अशें म्हणपी आचार्यांची गरज आसा तर रागा सारकिल्ल्या मनश्याच्या व्हड दुस्मानाचेर जैत जोडपी हाकुईन आमकां शांतीचो संदेश दिता. अनहत नाद हो एका हाताचो आवाज आयकुपी टोयो आमकां उतरांच्या अर्थापेल्यान घेवन वता. कसलोच चडाचो अभिलास धरचो न्हय हाची शिकवण दिवपी जपानी सम्राटाचो गुरू आसा. 'धा साक्षात्कारी वारस' ही कथा शिस्तीची देख घालून दिता. तेच प्रमाण आदर्श गुरू आनी शिश्य कशे आसचे हे सबंदान केल्लें भाश्य मेळटा.

आकारान ल्हान आसल्यो तरी विचारान प्रगल्भ अश्यो झेन काणयो. जिवीताच्या सगळ्या आंगांक स्पर्श करून ताका आपले वेंगेंत घेवपी. अणभवाची खर मापून तांचीं वेगवेगळीं परिमाणां दाखोवपी. त्यो बुद्धीक आव्हान दितात तेच प्रमाण काळजाक थाकाय हाडटात. ह्यो कथा म्हळ्यार अल्पाक्षरी गद्य काव्याचे अप्रतिम नमुने. ह्या काणयो सांगतना सुरेशबाबान जे तरेन भास वापरल्या ताची तोखणाय करपाक जाय. खंयचेय भाशेचें सौंदर्य तिच्या सादेपणात लिपिल्लें आसता. आनी सुरेशबाब कोंकणी भाशेचें सोबीत रेखीव रूप ह्या काणयांतल्यान दाखयता. दुबावाविरयत तांणी ह्या तांच्या नव्या पुस्तका वरवीं कोंकणीच्या आंगार नवो अळंकार चडयला.

– माधव बोरकार